# वाल्मीकि

(कोंकणि पौराणिक नाटक)



पांगाळ विठ्ठल शेणै विरचित



अभिवर्धतां वाणी विलासः

3.3.97

श्री गोकर्ण पर्तगाळी जीवोत्तम मठाधीश श्री विद्याधिराज तीर्थ श्रीपाद वडेर स्वाम्यांनि, कापु श्री वेंकटरमण देवास्थानांतु मोक्कां अस्सिले वेळारि दिल्लालो कृपाशिर्वाद.

# वालमीकि



(कोंकणि पौराणिक नाटक)







पांगाळ विठ्ठल शेणै विरचित

# वाल्मीकि

कोंकणि पौराणिक नाटक



**लेखकुः पांगाळ विठ्ठल शेणै**

**भागवत प्रकाशन**
पांगाळ, उडुपि जिल्ला

प्रथम मुद्रणः डिसेंबर २००७

मूल्यः रु. ४०/-



विन्यास आनि मुद्रण
विजय पि. कामत, मुंबई



## • निवेदना •

साहित्य क्षेत्रांतु नाटकाक विशिष्ठ स्थान आस्स. नाटक एक दृश्य काव्य. वाचून संतोस भोगचें पशि रंगप्रयोगाचे वीक्षणेन स्वारस्य चड मेळता! तशि जाव्नु, नाटकाक रुपक म्होण्चें अन्वर्थ नाम आस्स.

हाँवें कोंकणि पशि कन्नड भाषेंतु शाला विद्यार्थी खतिर नाटक रचना, रंगप्रयोगु केल्लालो चड. तांतु कृति प्रकट केल्लेलि एकमात्र ''सत्यम् शिवम् सुंदरम्'' कन्नड रुपक. काव्य रचना कौशल्यचि विंगड. ग्रंथ प्रकटणा सामर्थ्यची विंगड - देखुनु पूरा नाटक, काव्य प्रकट कोरुंक अवकाशु मेळ्ळो ना.

कोंकणींतुं, वालमीकि नाटक अत्युत्तम म्होणु विमर्शाकांलो अभिप्रायु. भारतीय साहित्याचे आदिकाव्य म्होणु ख्याति पाविले कृतिचो कवि वाल्मीकीले जीवन वृत्तांत है नाटकाचो कथावस्तु. रामायणांतु तीन संस्कृतिचें संगम जाल्लेंलें दिस्ता; नागरीक, ग्रामीण आनि वनचर संस्कृतीचे प्रभावान प्राचीन भारतीय संस्कृति रुपित जाल्या म्होण्येत. तशींची रामनामाची महीमा अपार. रामध्यानाचे प्रभावान महर्षी जाल्लेले व्याधाली काणी आनि प्रासंगिक जाव्नु सीता परीत्याग, अश्वमेध याग आनि पित-पुत्र पुंनर्मिलनाचे प्रस्ताप है नाटकांतु येत्ता.

हे नाटक श्री वेंकटरमण देवस्थान, कटपाडिचे भजक,गौड सारस्वत युव जनानी, श्री श्री गोकर्ण पर्तगाळी जीवोत्तम मठाधीश श्री द्वारकानाथ तीर्थश्रीपाद वडेर स्वामीजी - हांगेले सम्मुखांतु खेळ्नु दाख्खयिले तेदना स्वाम्याले अनुग्रहाक आनि प्रेक्षकाले प्रशंसेक प्रात्र जाल्लां. तशींची उडुपी श्री कृशण देवस्थानाचे वसंत मंटपांतु है नाटकाची कन्नड आवृत्ति ईन्नंजेचे प्रौढ शाला विद्यार्थ्यांनी श्री श्री सोदेवादिराज मठाधीश श्री विश्वोत्तम तीर्थालें सम्मुखांतु प्रदर्शित केल्लां. अनेक हव्यासि नाटक मंडलीनियीं कन्नड आनि कोंकणि दोन्नी आवृत्तीचे यशस्वी प्रदर्शन केल्लेलें संतोषदायक विचारु.

आधुनिक कोंकणि साहित्यांतु असली कृति अपरुप देखुनु हाज्ञे प्रकटणेक आप्तसलाह आय्यीली हाँवें स्वीकार केल्या. अनेक मित्रांनी हृपूर्वक प्रोत्साहु दिल्लेले निमीत है साध्य जाल्लें. हांका सर्वांक हाँव आभारी जाव्नु आस्स.

सद्गुरु श्री श्री गोकर्ण पर्तगाळी जीवोत्तम मठाधीश श्री विद्याधिराज तीर्थ श्रीपाद वडेर स्वाम्यांलो कृपाशिर्वाद है कृतीक मेळ्ळालो मेगेलें सौभाग्य. सद्गुरु चरणांक अर्पित कोरनु समाजबांधवांक समर्पण करतां, प्रोत्साह आस्सो.

- पांगाळ विठ्ठल शेणै

बरे जांव्वो

# वाल्मीकि (कोंकणि नाटक)

**पात्र परिचय**

| | | |
|---|---|---|
| वालमीकि | - | कथानायक |
| नारद | - | देवऋषी |
| भारद्वाज | - | वाल्मीकिलो शिष्यु |
| संजय | - | आश्रमाचे वटु |
| सुमुख | - | आश्रमाचे वटु |
| सुदास | - | आश्रमाचे वटु |
| श्रीरामचंद्र | - | अयोध्याधीशु |
| लक्ष्मण | - | रामचंद्रालो भावु |
| हनुमंत | - | वानर मुख्य, राम दूतु |
| भट | - | अश्व रक्षकु |
| बसव | - | किरातु |
| लव | - | सीतेलो जवळांतुलो एकलो |
| कुश | - | सीतेलो जवळांतुलो अनेकळो |
| भागेर्ती | - | रुक्षलि बाय्ल |
| भागेर्तीले चर्डु | - | - |
| सीतादेवी | - | रामचंद्राली राणि |
| यज्ञाश्व | - | - |
| रुक्ष | - | व्याधु |
| चारण | - | - |

# वाल्मीकि (कोंकणि नाटक)

(पांगाळ विठ्ठल शेणै विरचित)




**अंक -१, दृश्य -१**

(रान्वाट्टेन देवऋषी नारदालो प्रवेशु)

नारद - नारायण ते नमो नमः । जय
नारद सन्नुत नमो नमः ॥
वेदोद्धारक मीन नमो ।
जय नगधर अघहर कूर्म नमो ॥

देवा, तुगेले नामस्मरणेचें भाग्य माक्का निरंतर आस्सो! संकल्प मात्रान समस्त प्रपंच सृष्टि कोर्नु, सर्वत्र व्याप्त जाव्नु आस्सीलें तुगेली महिमा माक्का कश्शिं कळतलि. दुष्ट शिक्षण आनि शिष्ट रक्षणे खतिरी अनेक अवतार घेत्ले तूंवें! ज्ञानि जाव्नुयि दुराभिमानि जाव्नुयि आस्सीलें. रावणाक मार्लें तूंवें! भक्ताग्रणि हनुमंताक भावी ब्रह्मपद दिल्लें तूंवें! आहा! रामावताराचे स्मरण मात्रान आजि माक्का अवर्णनीय आनंद जात्ता. तुगेले लीलानाटक रंग जाव्नु अस्सीले भूलोकांतु भोव्नु येव्चें म्होणु मनांतुं आय्लां. हीवयि तुगेलीचि प्रेरणा नहीं वें? आनि खंचे नाटकांतु कसलो पात्र घेव्चाक आस्स हांवें? (चिंतन कोर्नु)

हा, रामावताराचि विशेष महिमा लोकांतु प्रचार जाव्चि पूर्व तयारिक ही प्रेरणा की?

अगणित गुण गण धामा,
इनकुल ललाम, करुणा घनश्याम,
श्रीरामा नमो नमः (संकीर्तन करीत वत्ता)
नारायणते नमो नमः । जय
नारद सन्नुता नमो नमः ॥
शुभकर सूकर रूप नमो । जय
भवभयहर नरसिम्ह नमो ॥

**(निर्गमन)**

## दृश्य -२

(वनांतु एक कुटीर)

(रुक्ष व्याधु धनुर्बाण हात्तांतु घेव्नु भाग्रि वचे तयारीरि आस्ताना भित्तरि बाय्ल, चेर्डुवांनि हास्चें आय्कुंक येत्ता)

रुक्ष- अगो भागि, कोण गो थयीं (धनुष्यु भुज्जारि, बाण हात्तांतु)

आप्पयीलें आय्कुं पणी गो?

भागि यो गो हांगा.

भागि- (उल्लयतचि येत्ता) किर्डताति इत्याक?

रुक्ष- यो गो हांगा.

भागि - हें नाँच्पटांतु मेगेलो जीवु अर्ध जाल्लो. भागि! भागि! भागि!

रुक्ष- कित्तें म्हळ्ळें?

भागि- भागेर्ती म्हळ्यारि जीब झरतावें.

रुक्ष- मोगान उल्लय्ताना कोप्ता मुगो तूं!

भागि- मोगु आनि मायपासु म्होणु हाँवं मेल्लिं. एक घडी दोळे मुखारि नात्ल्यारि जायीना.

रुक्ष- आनि कसल्याक तुगेलि फाटी धरलेलि? मेगेलि रति देवि लागि जायी म्होणूची नहिं गो?

भागि- तश्शिं की?

रुक्ष- तश्शिं की? अश्शिं की?(गाल चिम्टूनु)
मेगेले मोगाचे बाय्लेन अश्शिं कोपल्यारि जाल्लें ना. सोडि तें आजि कसलें हाडुं सांग.

भागि- सांगिले सकड हाणु दित्ताति तुम्मी माक्का नही वें?

रुक्ष- तुक्का कसलें ऊणें केल्लां हाँवें?

भागि- ऊणेयि ना, चडयि ना, पुश्रागाचें कुट्टिक जाय म्होणु दीस कित्लें जाल्लें?

रुक्ष- व्है गो, व्है फळफळ थळथळचें पुश्रागाचें कुट्टिक तुगेलें कान्ना फाळियेक भारि सज्ञात!

भागि- हाडतरी नहिंवें कान्नांतुं थळथळचे?

रुक्ष- सोडि खब्बर. आजि खाणं जेवणांक कसलें जाय म्हळ्यारि कुट्टिक निम्गिता तूं.

भागि - हूंऽ ऽ ऽ (निराशेन दीगू उस्वास सोड्ता)

रुक्ष - हुँकाराक कांय ऊणें ना. फुल्लटि गुर्बिणिक मोत्यांची कंटी जाय म्हळ्ळें सत्तान हाणु दिल्लीं. भुर्ग्याले पाय्यांक रुप्या वाळें जाय म्हळ्ळे हाणु दिल्ले. भांग्राचें कांकण, मुद्दी कसलें निम्गिलें की तें दिल्लां.

भागि- आत्तं आनि तेंची निम्गिलें वें.

रुक्ष- तें नहिं हें, हें नहिं तें.

भागि- भोंगों! नाक्का तें (तिज्ञित्ल्याक उल्लय्ता) दुवाळो म्होणु सोड्वोनु सांगुका दिसता.

रुक्ष- (तिक्काचि पोळोनु) कसलें म्हळ्ळें? (लाग्गि येव्नु) वैगो कितले मास आत्तं, (खांद्यारि हातु दवर्ताना दूरच्यानं कीर्तन आय्कुं येत्ता)

भागि- तीन निसोर्नु चार लागले.

रुक्ष- (भाग्रि कान दीव्नु) राब आय्लों (सरसटि भाग्रि वत्ता)

भागि- विसोर्नाकाति. मेळ्ळें ना, जाल्लें ना म्हळ्यारि आय्केशि ना हांव. वग्गि येयाति (भित्तरि चेर्डान आप्पोचे आय्कुं येत्ता)

चेर्डु- आम्माऽ ऽ ऽ ऽ

भागि- आय्लिं रे पुता आय्लिं (भित्तरि वत्ता)

**(परदो पडता)**

## दृश्य - ३

(रानवाट - नेपथ्यांतु नारदालें संकीर्तन आय्कुं येत्ता)

रुक्ष- (सरसटि येव्नु राब्बूनु चारी दिकान दोळे धाँव्डैता) अरे! खयिं गेल्लो? गायन आय्कूनु धाव्नु आय्लो. हाज्जें वजें दिस्साना. हेचि वाट्टेन आय्लों मू, हे बैरागि, मेगेले हात्तांतुल्यान चुक्कून खयिं वत्तालों तूं? भीक माग्गूनु बांदीलि तुगेलि गांटि माक्का दिल्लेशिवाय तुक्का सुंटकि ना. तुगेलि गांटि मेळ्का..... भागिक कुट्टिक दिव्का! (कानु दीव्नु) हौंऽऽ हौंऽऽ येत्तचि आस्स तंबूरिदासालि सवारि. येव्वों, येव्वों (झाडाचे आड निप्ता)

नारद- (प्रवेश) वामनं बुध जन वंद्य नमो। जय पावन परशु धराख्य नमो।।

रुक्ष- (फक्कने मुखारि येव्नु वाट्टेक आड राब्ता) राबरे थयिं!

नारद- (सट्टने कीर्तन बंद कोरनु हाल्नाशि राब्ता)

रुक्ष- पावूलं उब्बार्शि, गळो कात्तरीनं!

नारद- नारायण, नारायण. कसलें बाबा कसलें जाय तुक्का?

रुक्ष- चिरिचिरि कोरनाक्का. चीर्नु उड्डुय्न!

नारद- नारायण, नारायण, कोणालो कोपु कोणालें वोय्रि काडता रें तुं?

रुक्ष- पिर्पिरि पुरो, गांटि भाय्रि काडि दी हांगा (नारदाले हात्ता रट्टेक धरता)

नारद- तित्लेंचि वें? तूं मारि, चीरि, मेगेलाग्गि एक पैसो मेळेशिना तुक्का.

रुक्ष- (तंबूरि ताँन्डूनु घेत्ता) खयिं आस्सरे, बरे उत्रान काडि भाय्रि.

नारद- अरेरेरे! ही तंबूरि मेगेले जीवाचि गांटि. ताज्जेरिं बलात्कार नाक्का.

रुक्ष- दुझ्झा गांटि दित्तकि, हात्पाय्यां गांटि मोड्चि?

नारद- ये बाबा, कासु माग्तालो दासु नहिं रे हांवं. हरि नाम संकीर्तन करतालो नारद हावं.

रुक्ष- (कोपान उग्र जाव्नु) नारद जाल्यारि इत्तें नीरद जाल्यारि माक्का इत्तें. तुगेले उत्रांक भुल्तालो कुळ नहिं वो, खयिं निप्पैल्या गांटि?

नारद - सत्य सांगता मेगेलागिग दुड्डुना, तुक्का जाय जाल्यारि मेगेले पुण्या फल पूरा दित्तां, ती तंबूरि दी हांगा.

रुक्ष- पुण्य दित्ता! उत्रानीचि भुल्लय्ता. तश्शिं सकड फस्तालों नहिं हॉंव. गांटि दित्तकि गळो चिर्डुवुं (तंबूरि सकल दवर्नु दोन्नी हात्तानी गांटि सोद्दिता)

नारद- तुक्का पळैल्यारि भारि व्यथा जात्ता माक्का. उत्र तीक्ष्ण नावंयी विचित्र. जाल्यारि भाव मात्र नित्तळ ! ही व्याप्ति कश्शि लाग्लि तुक्का? दुस्र्यांक पीडा दीव्नु दीस काड्चि ही वाट कोणे दाख्खयिलि तुक्का?

रुक्ष- ये बैरागि जीवाचि आशि ना रे तुक्का? अशींचि आय्काना तूं. तुगेलि तंबूरि पुड्डि जाल्यारि कळतलें (तंबूरि उब्बार्नु धाड्डाचाक लाग्ताना)

नारद- अरे सायबा! तंबूरि पुड्डि कोर्नाक्का, विकल्यारि पैशे मेळताले. तंबूरि तुक्काचि आस्सो. मेगेलाग्गि दुसरें कसलेंयि ना, तुक्का दीव्यां म्हळ्यारि.

रुक्ष- कसलें म्हणता?

नारद- वर्लांतु जोळ्चो इंगाळो बांदुनु शिंयं ताप्पय्ता रे कोणयि?

रुक्ष- सुरुवेरि तुगेले शिंयं सोड्वोनु मागिरि दुसरे विचारु (कसलें कोर्चें म्होणु कळ्नास्ताना गोंदळता)

नारद - (ताक्का आय्कुं येव्चे तश्शिं आप्णित्ल्याक उल्लयता) भांगर मनुष्यु. संग दोषानं बिगडला. नावं रुक्ष जाल्यारि मन मोवाळ. व्यर्थ पाड जात्ता जन्मु! राम राम! (रुक्षाक सांग्ता) अश्शिं परपीडन कोर्नु सुख भोग्येत म्होणु कोणरे सांगिलें तुक्का?

रुक्ष- ये भिकारि हावं कश्शिं आस्ल्यारि तुक्का इत्तेरे? सर्पाले फणाक हात घाल्ता इत्याक? (दुड्वा गांटिंखतिरि नारदाले आंगारि सोद्दिता)

नारद- पळेरे, हे प्रपंचांतु मेगेलें म्हळेलें ही तंबूरि मात्र, दुसरे कसलेयिं ना, हेंचि मेगेलें सर्वस्व.

रुक्ष- सोडि ताज्जि खब्बर, ती आड्डावण नाक्का तुक्का (स्वगत) ती थयिं राब्बूनु बस्तालि. हें व्होर्नु कसले कोर्चे हांवे?

नारद- बाय्ल चेर्डुवं म्हळ्यारि भारि मोगु तुक्का, नहिं रे?

रुक्ष- भिकाऱ्या मोगु मात्र नहिं, तींचि मेगेलें सर्वस्व.

नारद- हाँ, आत्त कळ्ळें तश्शिं देखुनु तूंवें यें पुरा कोर्चे. इत्लें कष्ट भोग्चें! बरें, वाय्ट पूरा तांचे खतिरचि नहिं रें?

रुक्ष- माक्का जाय दिस्सिलें दीनात्तिल्यालो जीवु काडुंक माक्शेतालों नहिं हाँवं. तुज्ञसले कित्ले जणालिं हाड्डा राशि पळ्ळेंति पळे थयिं.

नारद- विचित्र अब्बा तुगेलि प्रीती. खयीं पळैनी हाँवे असलि रीती!

रुक्ष- सन्यासिक तुक्का संसारांतुलि रीति नीति कश्शिं रे कोळ्चि?

नारद- तश्शिं की तें?

रुक्ष- कोण मोरोंति, कोण वोरोंति, मेगेलो संसारु चलोचे माक्का मुख्य.

नारद- धन्य धन्य! असले मायस्त बाम्णालो हातु धरलेलि बाय्ल ती भारि पुण्य केल्लेलि आस्का.

रुक्ष- आनि धा पटी सांग. तिगेलो उडगासु केल्लो देखुनु तूं जीवंत आस्स. ना जाल्यारि येद्दोळु भित्तरि तुज्जि हाडुं पुड्डि जात्त आस्शीलिं.

नारद - उद्वेग नाक्का समाधान घे. सांग्चे आय्क.

रुक्ष- आनिकयि आस्स की तुगेलें पुराण?

नारद- मेगेलें कायीं ना, तुगेलेंचि बरेपणाचो विचारु. आय्कशि जाल्यारि सांग्ता.

रुक्ष- कसलें तें सांग वग्गि.

नारद- बाय्ल चेर्डुवां खतिर जीव दित्त मूं तूं. व्हो मोगु आनि माय्पासु तांकायि आस्स की तुज्जेरि?

रुक्ष- हाँवें सांगिलें पाल्नि वें?

नारद- तुगेले विषयांतु माक्का संशय ना. तांगेले खतिर कसले अकृत्याकयि तूं तयार म्हणताना आनि कसलें निदर्शन जाय माक्का?

रुक्ष- आनि कित्तें?

नारद- केल्लेलें खाव्चाक आस्स म्हण्ताति. हे सर्व पापाचें फलं भोग्चाक आस्समुं!

रुक्ष- (तिरस्कारान) पाप आनि पुण्य! केल्लेलें खाव्चे की, खाव्चेखतिर कोर्चे म्होणु कोण जाणं? कोणाक जाय ही राष्ट्रावळि?

नारद - माक्कां जीवशि मार्नास्ताना सोळ्ळेले उपकाराक कायिं प्रत्युपकार कोर्चे नाक वें हाँवें?

रुक्ष- कसलें कर्शित तूं?

नारद- तुगेले सुकृतान तें माक्का साध्य रे बाळा. आत्त माक्का समर्पक जवाब दी.

रुक्ष- सवाल येव्वों, मागिरि जवाब.

नारद- तुगेले संपादनेंतु होळ्ळो वांटो घेव्चें तुगेले बाय्ल चेर्डुवांनि. तुगेले पापाचे फलांतुई वांटो आस्स म्हळ्ळेलें मनांतु घेत्लां की?

रुक्ष- माक्काचि विश्वासु नात्तिलो विचारु तांचे लागि निम्गुचे अगत्य कित्तें?

नारद- आलोचन करि तुक्का विश्वासु ना म्होणु कर्माचे फळ चुक्तवे? मिर्सांग चाब्ल्यारि जीब जळ्ता मूं?

रुक्ष- हाक्क सक्कडं पुर्सति खयिं आस्स माक्का? हाज्जि योचना ना माक्का!

नारद- आत्तं ना खरें! मुखारि भोग्चाक मेळ्ताना कश्शिं?

रुक्ष- पळे हाँवं सुर्वेकचि बिगडलां. तूं कित्याक किडेयता माक्का?

नारद- घर जळ्ताना बायिं खोंडुचि वे? कष्ट आय्ले मागिरि परिहार सोद्दुचवें? पुडेचि जाग्रत जाव्चें नहिं वें?

रुक्ष- तुगेलिं उत्रं आय्कुनु गोंदलांतु पळ्लों हाँवं.

नारद - गोंदोळु नित्तळता. तुगेले बाय्ले लागि उल्लोनु पळे. तुगेले संगात हाँवयिं येत्तां.

रुक्ष- तूंवें कित्याक येव्चें? नाक्का तूंवें येव्चें. घे, धरि तुगेलि तंबूरि (दित्ता)

नारद - (तंबूरि घेव्नु) तरि हाँवं हांगाचि राक्तां. तूंवें वापस येव्चें तेद्दोळु राक्कुनु बैस्ता.

रुक्ष- राक्कुनु बैस्ता (स्वगत) ती थयिं राक्ता! रित्ते हात्तानि कश्शिं वच्चें?

नारद- हाँव धाव्नु वत्ता म्होणु संशय की तुक्का?

रुक्ष- हे! माक्का संशयु, भयं खंचेयि ना. हाँव आस्स, मेगेले धनुर्बाण आस्स. (वत्ता)

नारद - विचित्र मनुष्यु ! नावयिं विचित्र, स्वभावुयी विचित्र. परमात्मा हे विश्वचि एक विस्मय! विश्वेशा, अगाध तुगेलि महिमा.

अचिंत्य तुगेलें चरित. हाक्का मेळात धोर्नु एकि विनूतन प्रेरणा मनांतु उब्जल्या. कसलो तुगेलो संकल्पु देवा? नारायण..... हाणे परत येत्ताना कित्लो वेळु लाग्ताकि! नयिंचे तीरारी बैसुनु राक्चें बरें. नारायण, नारायण (वत्ता)

**(परदो पडता)**

**दृश्य – ४**

(वनस्थळाचें कुटिर. बाम्णालि वाट राक्कूनु भागि बैस्ल्या. गीत गुणगुणेत आस्स)

भागि- कांकणा वळारा गेल्लेले सुक्रारा
कांकणं सुव्चाक गेल्लेलरे तूं आमगेले कुळारा
(हवें कणंग चाब्बून खात्तचि उल्लयता)
बैसुन बैसुन बेजार आय्लो. कित्लें राक्चें! भाग्रिसोर्नु गेल्ले परांतें घराचि एचान ना. घरांतु आस्ताना मेगेलि फाटि सोडचिना. पोळोव्यां. आजि

कुट्टिक हाडताति कि रित्तेंचि येत्ताति कि म्होणु (भित्तारि चेर्डु आप्पय्ता)

चेर्डु- (नेपथ्यांतु) आम्मा.... भूक लागता.

भागि- आय्लिं रे (स्वगत) हांगेलो हातु धोर्नु धन्य जाल्लिं म्होणु लेक्किलें हावें. चेर्डुवं जाव्वों तयिं सक्कड सम आस्सीलें. आर्ता मस्त बदल जाल्लिंति.

चेर्डु- (नेपथ्यांतु) आम्मा.... वाडि माक्का.

भागि- हे चेर्डुवांक घेव्नु हाँवें एकळेन कसलें कोर्चे? हांका पोळोचें की, रांदप कोर्चे की, भाय्लें काम कोर्नु मोर्चे? एक घडी सुस्ती ना. कुळारा वचूनु येव्यां म्हळ्यारि जाल्लेंचि ना.

चेर्डु- (नेपथ्यांतु) आम्मा ऽऽऽ ये आम्माऽऽऽ

भागि- आय्लिं रें, किर्डुनाक्का (तीणे उठानु भित्तरि गेल्ले सत्ताक भाय्रि रुक्षु येत्ता)

रुक्ष- (आतुर पाव्तचि येत्ता) भागिऽऽ ये भागिऽऽ

भागि- (भित्तरि दाखूनूचि) वोऽऽ वोऽऽ आय्लिं आय्लिं (भाय्रि येव्नु) इत्लो वेळु इत्तें?

रुक्ष- सांग्ता हांग यो.... लागि यो....

भागि- कसलें हाळ्ळां. (लागि येव्नु) कुट्टिक खयिं आस्स?

रुक्ष- ऊँ...... तें........

भागि- पोळोयां, खयिं आस्स!

रुक्ष- हाँवें सांग्चें आय्कूनु घे गो.

भागि- सांगाती म्हणता.

रुक्ष- तुम्गेलें खतिर हाँव कित्लें वावंट भोग्ता गोत्तु आस्स की?

भागि- माक्का इत्तें गोत्तु?

रुक्ष- साग्चें आय्क गो सायबिणी, मेगेलि मोगाचि राणि.

भागि- राणियि नहिं, सायबिणीयि नहिं. हाँव एक नसराणि निशाधालि चेल्लि. तुम्मि सांगिलें तशिं आय्कतलि राकुडा बावलि. सांगिलें हाळ्ळेले ना म्होणुक हें सक्कड पिटकायण!

रुक्ष- आनु आम्माक सोणु मेगेलें संगात आय्यीलीं मेगेलि बाय्ल तूं. तुक्का सुख दिव्चाक हाँवें करनातिले कसलें आस्स सांग?

भागि- माक्कित्ते गोत्तु? हे सक्कड कित्याक अत्तं?

रुक्ष- ते दीसू आमगेलें लग्न जात्तरि आम्मि दोग्गानीची बैसूनु उल्लोनु घेत्तिलीं उत्रं उड्डासु आस्स कि? कसलें कष्टांतुयिं आम्मि दूध आनि उद्दाक्शें एक मेळ्येरी आस्चें म्होणु!

भागि- हें सक्कड ते दिसाचि कथा. सोप्नांतु जल्यावरि दिस्ता. आत्तं इत्याक तें? ताज्जि परांतें वर्सं निसर्लिं कित्लिं? तुम्मि आत्तं फुळ्यावरि आस्सति वे, की हाँव आस्स?

रुक्ष- तश्शिं नहिं गो..... व्हार्डिक म्हळ्यारि....

भागि- व्हार्डिक म्हळ्यारि एक व्यारू.

रुक्ष- व्यारू? कसलें म्हळ्ळें?

भागि- व्हौ..... व्यारु दिल्लेल्याक सम्मजाव्नु घेव्चें.

रुक्ष- तुम्का बाय्ल चेर्डुवांक सुख दिवच्याक हावें कर्नातिलें खंचेयीं बाकि आस्सकी? हावें फुळ्यावरि आस्चे कश्शिं?.... सांग.

भागि- ताक्का हाँव इत्ते कोरूं?

रुक्ष- मेगेले हे अवस्थेक कारण तुम्मिचि नहिं गो?

भागि- आ हां! हांग्गाक पावलें की आत्तं?

रुक्ष- कोप्पुनाका जवाब दी. मेगेले दुरवस्थेक तुम्मिचि नहिं गो कारण?

भागि- मेगेले निमित्त तुम्मि पाड जाल्लेलें म्हणताना आनि कसलें आस्स सांग्चाक. तुमगेले खतिर जीव दिलेल्याक माक्का पूरो!

रुक्ष- तश्शिं नहिं गो सुखांतु-दुःखांतु, पापांतु-पुण्यांतु आम्मि एक नहिं वें? ताज्ञें फलांतुई सम्म वांटो आस्चे नहिं वें?

भागि- पाप-पुण्य खंचेयिं माक्का गोत्तुना. तुमका सुख दिव्चें खतिर मेगेलो जीवूची दिल्ला हाँवें, मेगेले कष्टांतु तुमका वांटो आस्सीलोकी? गुर्बिणिपण, बाळंतिरो, म्होणु खंचांतुयीं तुमका वांटो आस्सीलोकी? मेगेलें माक्का, तुम्गेलें तुम्का.

रुक्ष- हावें खुशाल उल्लोचें नहिं गो.

भागि- खुशाल जाव्वों, बद्द जाव्वों, व्हयि जाल्लेलें उल्लोचाक माक्का कोणालोयी बिसात ना. तांग-तांगेलो हातु तांगतांगेले मत्यारि .

रुक्ष- (भ्रम निरसन जाव्नु) हुँ.... तश्शि की? हांगाक पाव्लें की आत्तं.

भागि- हांगाक की, थयिंक की पाव्का जाल्लेले कडेन पाव्ली. तुमका संसारांतु बेळसाणि आय्ल्या जाल्यारि हाँव इत्तें कोरूं जाय्त?

रुक्ष- (राक्कुड मांडूनु राब्ला)

भागि- आजि, न्हाव्चे, जेव्चें कसलेयिं आस्स कि?

रुक्ष- (गुपसा-गोंधळांतु पळ्ळा, उल्लयि ना)

भागि- इष्यप्पा हाँवें कोणालाग्गि उल्लोचें? इत्लें ससारकायी! तुम्का हाँव नाक्का जाल्लें परांतें आनि कसले वरलां, मायपासु तुंटतरि संसारु कित्याक? तुम्गेलि वाट तुम्का, मेगेलि माक्का, (सरसटि भित्तरि वत्ता).

रुक्ष- भागिऽऽऽ (तिगेले माक्षी वचाक पाय उब्बार्ताना मन बद्ली जाव्नु थयिंचि राब्ता)

नाक्का. ही फुळ्ळी भागि नहिं (भित्तर की भाग्रि वचे म्होणु गोंधळांतु पळ्ळा - पक्कनि उडगासु येव्नु) हाँ.... हाँ.... तूवें सांगिलेंचि सम गो.... ये बैरागि राब.... आय्लों वचुनाक्का (भाग्रि वत्ता)

**(दृश्य समाप्त)**

**दृश्य – ५**

(वनस्थळ - नदीतीरारी नारदु संकीर्तन करतचि बैसला.)

नारद - शुभकर सूकर रुपनमो । जय
पावन तर, नरसिंह नमो ।
नारायण ते नमो नमो । जय
नारद सन्नुत नमो नमो ॥

रुक्ष- (धाव्नु येव्नु नारदाले पाय्यारि पडता) बैरागि कसले माय्रण केल्लें तूवें? कित्याक हे गोंदळांतु घाल्लो माक्का?

नारद- कसलें म्हळाली? जाल्ले कसलें?

रुक्ष- मेज्यान सहन कोरूं जाय्ना, हाँवं बुड्लों.

नारद- धैर्य धरि, भीव्नाक्का (रुक्षाले भुज्जाक धोर्नु उब्बार्ता) जाल्लें कसलें सांग.

रुक्ष- अश्शिं कित्याक केल्लें तूवें? संशयाचि कीटि पेट्टूनु मेगेले मन जळैलें तूवें! ये सनयासी मेगेलो संसारु बुड्डुय्लो तूवें!

नारद- समाधान घे रे बाळा. गोंदळु नित्तळता, जळप निव्ता. कसलें म्हळाली तुगेली बाय्ल.

रुक्ष- बाय्ल? आनि खंचि बाय्ल? तुंटलो तो संबंधु ती कोणकी, हाँव कोणकी.

नारद- अरे! तश्शिं इत्याक उल्लयता?

रुक्ष- कित्तेंयिं उल्लोवों, कित्तेंयिं कोरों, सत्य कितुलें कठोर म्होणु तूंवें माक्का दाखयिलें.

नारद- (विस्मयान) आ. हा. कसलें परिवर्तन! कित्ले शीघ्र (रुक्षाक सांगता) मनांतु समाधान आस्सों, सक्कड सम्म जात्ता.

रुक्ष- (दैन्य दृष्टीन नारदाक पळय्ता... कारुण्यपूर्ण दृष्टीन नारद हाक्का पळय्ता स्वल्पकाल मौन) तूं साधारण सन्यासी नहिं कित्याक अश्शिं केल्ले तूंवें?

नारद- हॉंव देवर्षि नारद म्होणु सांग्ला व्है वे! तुगेले बरेपणा खतिरचि अश्शिं जाल्लें. विचार करि, विवेक उद्देतलो. मनांतु शांति मेळतलि.

रुक्ष- शांति कि, भ्रांतिकि? कोण मेगेले जीवाचो जीवु म्होणु लेक्कीलेंकी तीचि अश्शिं दूर करित जाल्यारि खंचि सुख शांति? मेगेलो जन्मु व्यर्थ जाल्लों.

नारद- (स्वगत) अज्ञान निवारण जाय्नाशि ज्ञानोदय जाय्ना. ज्ञानोदय जाय्नाशी अज्ञान वचना (प्रकट) सांग्चे आय्करे बाय्लेलें निम्मित सुख म्होण्चें भ्रांति सोळ्यारि सुखाचि सरळ वाट दिसता. तुक्का देवालि दया आस्स मन धृड करि शांत चित्तान विचार करि.

रुक्ष- (दैन्य भावान) हॉंव, पापी. हे जल्मांतु नहिं, सात-सात जल्मांतुयिं मेगेले पाप परिहार जायस्ना.

नारद- सांग्चे आय्क रे. तूं आत्तं पश्चाताप भोग्तचि आस्स. पाप परिहाराचे लक्षण हें. देवान तुज्जेरि दया दवर्ल्या देखुनु अश्शिं जाल्लें!

रुक्ष- तुगेलिं उत्रं आय्कताना मेगेलें मन आवुळ्ता. हॉंव तुक्का सोव्लें, तुज्जेरि जोर दाक्कैलो, जाल्यारि तूं कोप्पानास्ताना थंड आस्स!

नारद- बुड्ताल्याक हातु दीव्नु उब्बार्नास्ताना ताज्जेरि अनियेकु फात्तोरु घाल्चेवे? तूं आत्तं निराश जाव्नुका. तुगेले मनांतु खतखतेचे पश्चात्तापान तुगेले पाप जोळ्नु गेल्लें.

रुक्ष- मेगेले जीवीतचि जोव्नु गेल्लें! हाँव आत्तं कोर्चें कसलें? वचें खयिं? तूं माक्का सोणुं घाल्नाक्का (तागेले पाय्यारि पडता)

नारद- (तागेले मात्यारि हात दवोर्नु) रात्कालो देवु! तागेले दयेन तुक्का बरें जात्ता! तुगेले मूल वृत्तांत उडगासु आस्सकि? उडंगासु केल्यारि ज्ञानोदयाक अनुकूल जात्तलें.

रुक्ष- (मूलाचो उडगासु येत्ताना दुख उचंबळ्ता) हाँव पापी, सत्कुलांतु जल्मु घेव्नुयि कर्तव्य भ्रष्ट पातकी हाँव. खंचें तोंडानि तुम्गेलागि माफि मार्चें; देवान माक्का हातु धोर्चें कश्शिं?

नारद- अतिरेक आत्म निंदा नाक्का. देवाले दयेन आनि म्हाल्गड्याले सुकृतान तुक्का विवेक आय्लो! एक दुःस्वप्न अंत्य जाल्लें म्होणु लेक.

रुक्ष- स्वामि पुण्यात्मु प्रचेतसालो पूतु जाव्नुयि विद्याभ्यासु पूर्ति कर्नातिलो भ्रष्ट हाँवं. नेमनिष्ठा नास्ताना निसर्तचि व्याध वृत्तिंतु पळ्ळालो उष्टो हाँवं. आनि मेगेलि गति कसलि? माक्का आत्तं तेवयिं ना हेवयिं ना.

नारद- हरि चित्ताक असाध्य म्हळ्ळेलें कसलेयिं ना. देवालें ध्यान करि मन द्रढ धरि. पश्चात्तापानि परिशुद्ध जाल्लेलें तुक्का आत्तं आत्मोद्धाराचो मार्गु दाखय्तां. जन्मु सार्थक कोर्चें दिव्य तारक मंत्राचो उपदेशु तुक्का दिव्चें म्होणु माक्का दैव प्रेरणा जाल्या, न्हाव्नु यो.

रुक्ष- तुम्गेले आज्ञेप्रमाणे चलता (तागेले पाय्यारि पडता)**(परदो पडता)**

**॥ प्रथम अंक समाप्त ॥**



**अंक २ दृश्य १**

(वनस्थळ - दोग जण वटुं फुल्लं काडतचि आस्सति)

भारद्वाज- (प्रवेश) फुल्लं तुम्मि काडताति नहिं रे? हाँवं दर्बो हाडतां (दूसरे दिक्कान वत्ता)

संजय- जाय्त जाय्त (ताणे वचूनु जात्तरि)
नमस्ते कुसुमाधारे।
नमस्ते कुवलालये!
पुष्पाणि देवपूजार्थम्।
आहरिष्ये तवाज्ञय॥

सुमुख- (फुल्लंकाडचें राब्बोनु) हें खंचे मंत्र रे?

संजय- हे फूल काडचें मंत्र, तूं शिक्किलो ना वें?

सुमुख- खंचें शिकचे, खंचें सोडचें?

न्हाव्चे मंत्र! जेव्चें मंत्र! राब्चे मंत्र! बैस्चे मंत्र!

संजय- मस्किरि करता नहिं रे? सांग्ता पळे गुरु लाग्गि.

सुमुख- सांग.

संजय- गुरु म्हळ्यारि कायिं भय भक्ति ना तुक्का?

सुमुख- तशि नहिं साय्बा. गुरु भक्ति नास्ताना आस्सवे?

संजय- आनि कित्याक तमासो करता?

सुमुख- तान्नि मंत्र शिकय्ताना वोंटु विस्कळाचें आनि तांगेलि शेंडि हालचि पळय्ताना माक्का हासु येत्ता. हॉंव इत्ते कोर्चें?

संजय- संयमु ना, तर्नि बुद्धि. एकाग्रता म्हळेलि ना, आनि कसलें शिक्ता कि?

सुमुख- सोडि म्हाराया, तुगेले प्रायेरि तुगेले वरि शिक्ता. (चारि फूल्ल काणुं) आत्त अनियेक निम्गिता.

संजय- कसलो विचारु?

सुमुख- आकाश म्हळ्यारि धरतिचे धांप्णेंवें?

संजय- तशिं दिस्ता.

सुमुख- आकाश कित्ले दूर थयिं आस्सा?

संजय- मस्त दूर.

सुमुख- ताज्जे पेल्तान कसलें आस्स?

संजय- अंतराळ.

सुमुख- तें जत्तरि?

संजय- तें जत्तरि देवु आस्स.

सुमुख- देवु हांगा नावें?

संजय- हांगायि आस्सा, थयिं आस्स, सगळ्यान आस्स!

सुमुख- तें कश्शि?

संजय- हें मंत्र गोत्तु नारे तुक्का?

सुमुख- खंचे मंत्र?

संजय- यच्च किंचित जगतसर्वम्।
दृश्यते श्रूयते पिवा।
अंतर्बहिश्च तत्सर्वम्।
व्याप्य नारायण स्थितः ॥
अश्शि लोकाचे भाग्रि, भित्तरी, सग्ळ्यान देव आस्स.

सुमुख- एक देवान सग्ळ्यान आस्चें कश्शिं साय्बा?

संजय- तो सकडांतु लिप्त जाव्नु आस्स, सर्वत्र व्याप्त जाव्नु आस्स.

सुमुख- कश्शि तें?

संजय - दूध पळैलां की तूंवें?

सुमुख- वै अबा, पळैलां, पिल्लां.

संजय- दूध ताप्पैल्यारि कसलें जात्ता?

सुमुख- सायि मांडता.

संजय- ताका मेणायांक घाल्यारि कसले जात्ता?

सुमुख- धयं जात्ता.

संजय- धयं घांट्ल्यारि कसलें जात्ता?

सुमुख- लोणि मेळ्ता ताक्कांतु.

संजय- ती लोणि फूढे खयिं आस्सीलि?

सुमुख- दूधांतुचि आस्सीलि नहिं वें?

संजय- तशिंचि लोकांतु सर्वांतर्यामि जाव्नु आस्सीलो तो देवु आम्गेले दोळ्यांक दिस्साना, ध्यान करतालेलें ज्ञान दृष्टिक तो दिसता.

सुमुख- हे सक्कड कोणे सांगिलें तुक्का?

संजय- गुरुजीन.

सुमुख- गुरुजीन देवाक पळैलाकी?

भारद्वाज- (दर्बो घेव्नु पुनः प्रवेशु) कसलें चलता हांगा? उल्लोनूचि वेळु सरय्लो की फुल्लं जमय्लीं?

सुमुख- दोन्नियि.

संजय- तुक्का इत्लो वेळु इत्तें? खयीं गेल्लालो?

भारद्वाज- तमसा नदितीराक.

संजय- थयिं दर्बो मस्त आस्स वे?

सुमुख- थयिं फूल, फल मस्त आस्स की?

भारद्वाज- तुक्का फलाचि चिंता.

सुमुख- तुगेलें आंगावय्लें वोल्लें जाल्लां इत्तें? न्हाल्लो वे?

भारद्वाज- वैरे, आजि नंय्चें पेलतडि गेल्लालों वापस येत्ताना, न्हाव्नूचि आय्लों.

संजय- कसलें विशेष थयिं?

भारद्वाज- तें..... आश्चर्य... सांग्चे कसलें?

सुमुख- माक्कायी एक पटि वच्चूनु येव्का.

संजय- कसलें ते आश्चर्य सोडवोनु सांग साय्बा.

भारद्वाज- थयिं एकळो सन्यासी आस्स. ताणे समाधींतु बैसूनु कित्ले काळ जाल्ले कि सांग्चाक साध्य ना.

संजय- हें सक्कड तुक्का कश्शि कळ्ळें?

भारद्वाज- तागेले झोपडी पूरा वाळ्ते हुत्तोचि जाल्या.

सुमुख- तो तांतूचि आस्स वे?

भारद्वाज- लागि वच्चूनु पळैल्यारि मात्र तो दिस्ता.

संजय- ताणें थयिं आस्चे तुक्का कश्शि कळ्ळें?

भारद्वाज - ते अकस्मात मेगेले कळिताक आय्लें. बैसाति. सांग्ता (तेग्गंयी बैस्ताति)

सुमुख- थयिं नयींतु उद्दाक सबार चड आस्सकी?

संजय- कित्याक रे? तुक्कायी थयिं वच्चें आलोचन आस्स वे? पोहुंचाक शिक्ला वे तूं?

सुमुख- शिक्त आस्स......

संजय- आत्त सन्यासिली खबर सांग.

भारद्वाज- गेल्या बैशाखांतु हाँव पेलतडि गेलेले वेळारी थयिं एक सान कुटीर पळयीलें.

संजय- मागिरि?

भारद्वाज- लागिं वोच्चूनु पळय्ताना तांतु एकलो सन्यासी ध्यानांतु बैसिलो.

सुमुख- तो तुगेलागिं उल्लय्लो वे?

भारद्वाज- उल्लोचे सोडि, हाँवें थयिं गेल्लेलेंचि ताक्का कळ्ळिणि.

संजय- मागिरि कसलें जाल्लें?

भारद्वाज- ताक्का उपद्रव जाव्चे नाक्का म्होणु गेल्लेले तशिंचि वापस आय्लों.

सुमुख- मागिरि?

भारद्वाज- मागिरि ताक्का हावें चड लक्ष दीनी आस्सीलें.

संजय- आनि आजि कित्ते गेल्लालो.

भारद्वाज- सांग्ता. पावसडिंतु तात्तावळी हाँव वत्तचि अस्सीलों. ताणे न्हाव्चे कि, सूर्य नमस्कार कोर्चे की पोळोचाक मेळ्तालें.

संजय- मागिरि कसेलें जाल्ले?

भारद्वाज- आर्तांचि ते कसलेयीं दिस्सानातिले निमित्त मेगेले कुतूहल वाढले. कालि थयिं वोच्चुनु सोद्दिल्यारी, तो दिसलो ना, कुटिरयीं ना.

सुमुख- उवारांतु व्होळ्नु गेल्लां की इत्ते?

भारद्वाज- आय्क, आजि आतुर पाव्तचि वच्चुनु पळैल्यारि....

संजय - आस्सीलो वे?

सुमुख- झोपडी हुत्तावरी जाल्या, तो तांतु समाधींतु बैसीलो!

संजय- एक पटि पोळोनु येव्का माक्कायि.

सुमुख- हॉवय येत्ता, जाय्ना वें?

भारद्वाज- (बैसीलो उटाय्ता) थयिं उद्दाक चडना, जाल्यार शिलामय, पायु निसर्ता.

संजय- (उटानु) आत्त वेळु जाल्लो नहिं वें?

भारद्वाज- येयाति रे, वच्यां आश्रमाक.
(वत्ताना तागेल्या माक्षीची एकेकळीं वत्ताती)

**दृश्य – २**

(रान्वाट्टेन नारदालो प्रवेशु)

नारद - देवाधिदेवा, सुजन संजीव, लोकोद्धारा खतिर मानवावतार घेत्तीले तुगेली महिमा अपार! आजि माक्का अवतार पुरुष अयोध्याधिपति श्री रामचंद्रालें दर्शन जाल्लें (पुलकित जाव्नु) अरे! कसलें हें आकर्षण? मेगेले अंतरंगांतु स्पंदन कसलें हें? (आलोचन कोर्नु) हां... हां.... तारक मंत्रोच्छाराचें नादलहरी मनाक आद्दळता. श्री प्राचेतसाक मंत्रोपदेश दिल्लालो जागो व्हो! श्रीराम, सकलसद्गुण धामा. सतत साधनेन सिद्धि पाव्नु समाधींतु अस्सीलें ताणे जागृतावस्थेक येव्चो सुमुंहूर्तु प्राप्त जाल्ला. हे अमृत घडियेरी थयिं आस्सुनु ताक्का आशिर्वाद कोर्चें भाग्य माक्का मेळ्ळां. हें पुण्य कालारि हाँवें तागेल्लाग्गीची आश्चें बरें. नारायण, नारायण!

**(निर्गमन)**

**दृश्य ३**

(नयिंचे तडियेरि एक निर्जन स्थळ. थयिं एक वाळ्तेचो हुत्तो. आसपास तण वाढलां. संजय आनि सुमुख सोद्दितची येत्ताति)

सुमुख - अण्णा, तूंवें सांगिलो जागो व्होची नहिं वें?

संजय - जागो व्होची. हुत्तो दिस्सानामु! पोळोव्यां, मेळ्तालो. (हेकाडे तेकाडे सोद्दिताति)

सुमुख - भारद्वाजालो खेळ की व्हो? आम्गेली फजीति पोळोनु हास्चे खतिर आश्शिं केल्लां की जाव्वों?

संजय - छे. छे. तो तसलो नहिं. आम्मी ताक्कायि आप्पोनु हाडका आस्सीलें नहिं वें?

सुमुख - हांगा पाय दवरीत धोर्नु मेगेलें मन फुलचा लागला.

संजय - माकायीं तशिंची रे, एक पटी आंग जुम्म जाल्लें.

सुमुख - हांगा पळैले वें? तणा भित्तरी हुत्तो नहिं वें व्हो? (उल्लयतचि मुखारि पाय दवर्ता, हात्तानी तण सरय्तची भित्तरी पळैता.)

संजय - कसलें चेर्डुपण रे तुगेलें?

सुमुख- हांगा एकी वाट दिसता (मुखारी वत्ताना संजय तागेलो हातु धोर्नु तांडता)

संजय- यो रे माक्षी (तांडीले जोराक तागेलो मुष्टिंतुलो तणा पुंजो मूळपाळ समेत निक्कोल्नु येत्ता. कोस्साळेले हुत्तांतु मुनीलें मात्तें दिसता)

सुमुख- तूवें तांडिलें कित्याक?

संजय- तावळी सांग्ला व्है वे, वच्चुनाक्का म्होणु?

सुमुख- आत्तं अनि कसलें कोर्चें?

संजय- सुरवेक हांगा दाखुनु निसोर्यां, तो जागि जाल्लो म्हळ्यारी कष्ट.

सुमुख- तागेलें ध्यान भंग जाव्नु शाप दीशिना नहिंवें?

संजय- येत्तकी तूं, की हांगा उल्लोनूचि राब्ता?

सुमुख- थयिं पळे कोणकी येत्तचि आस्स.

संजय- (ताक्का माक्षी तांडूनु) यो रे हांगा. (दोगयिं झाडा आड निम्ताती) (नारदालो प्रवेशु)

नारद- नारायण नारायण. अमृत सिद्धि योग व्हो, अपूर्व संदर्भु! काळोकु वच्नूनु उज्वाडु जाल्यावरी प्राचेतसाले जीवानांतु नवोदयाचो उषाकाल व्हो! प्राचेतसा भाग्री यो, उठानु यो!

प्राचेतस- ॐ नमो रामचंद्राय.

नारद- रामध्यानांतु मग्न जाव्नु आस्सीले प्राचेतसा उटानु यो, मंत्र सिद्धि पाव्नु पवित्र जाल्लेले तुगेलें जीवनांतु शुभोदय जाव्वों!

प्राचेतस- (निदान उठानु हुत्तांतुल्यान भाग्रि येत्ता) श्रीराम (नारदाक पोळोनु नमस्कारू करता) राम राम

नारद- श्री रामकृपा सिद्धिरस्तु.

प्राचेतस- सद्गुरु तुम्गेलो दासानु दास हाँव. तुम्गेले दयेनची हाँव उद्धार जाल्लों. (साष्टांग नमस्कारु करता)

नारद- (हातु धोर्नु उब्बार्नु, आपण्याली गळ्यांतुली फुल्लामाळा ताज्जें गळ्यांतु घाल्ता)

श्रेयोस्तु.

प्राचेतस- धन्य जाल्लों.

नारद- तुगेलो तो जन्मु हांगाक जाव्नु गेल्लो. हे वाळते हुत्तांतु अर्थात वल्मीकांतु तुक्का आत्त पुनर्जन्मु! देखुनु तूं आत्तं वाल्मीकि.

प्राचेतस- तुम्गेले दयेनची हे स्थितीक पाविलो.

नारद- मंत्रसिद्धी जाल्ले देखुनु तूं आत्तं महर्षी.

प्राचेतस- हाज्जी सर्व कीर्ति तुम्काची पावता! आनि मुखारि मेगेले कर्तव्य कसलें म्होणु तुम्गेलागि मार्गदर्शन माग्ता हाँव.

नारद- तें संदर्भानुसार मेळतालें.

प्राचेतस- सद्गुरु तुम्मी उपदेश दिल्लेलें तारकमंत्राचो प्रभावूची इत्लो आस्ताना हें मंत्राचे अधिदेवतेली महामहिमा कश्शिं आस्सत म्होणु सम्जुची अभिलाषा माक्का.

नारद- यथोचित तुगेली अभिलाषा, शीघ्र पूर्ति जात्तली. (भारद्वाज, संजय आनि सुमुख मुखारी येव्नु वंदना करताति)

नारद- श्रेयोस्तु!

भारद्वाज- तुमगेलागि क्षमापण माग्ताति आम्मी.

नारद- इत्तें खतिर?

भारद्वाज- हें मुनीवर्याले समाधीक भंग जाव्चे तश्शिं हुत्तो भिन्न केल्लेलें, हांगेले अचातुर्या खतिर.

नारद- कोण रे बाळा तुम्मी? (संजय आनि सुमुख तोंड बावोनु, हातु बांदूनु राब्लींती)

भारद्वाज- पेलतडीचे आश्रमाचे वटु आम्मी. दर्बें, समिधा सोद्दूनु आलतडि आय्यिलींति. मेगेलें नांव भारद्वाज, व्हो संजयु आनि तो सुमुख. हांगेले बालीश चापल्य, तुम्मी मनांतु घेव्चा नज्जं म्होणु विनंती.

नारद- हे सक्कड काकताळीय! आनि तुगेले उत्रं आय्कलें मागीरि कोप्च्यें कश्शिं रे बाळा? चलाती, देवुराक्ता.

भारद्वाज- मुनीवर्या आम्गेली आनि एक मागणि आस्स.

नारद- कसलि ती मागणि?

भारद्वाज- तुम्मी दोग्गयिं महापुरुषांनी हे मंगल मुहूर्तारि आम्गेले आश्रमाक येव्नु आतिथ्य स्वीकार कोर्का म्होणु प्रार्थना.

नारद- तशींचि जाव्वों. येत्ताति. (प्राचेतसाक) वाल्मीकि महर्षी थयिं आश्रमांतूची श्रीरामचरित सांगता. चलाती.

भारद्वाज- आम्मी धन्य जाल्लींती. अश्शिं येयाती (वाट दाखय्तची मुखारी वत्ता. मागिरी नारद, वाल्मीकि आनि तांचे माक्षी संजय आनि सुमुख वत्ताती)

**दृश्य समाप्त**

**दृश्य – ४**

(रान्नांतु रुक्कावोय्रि पक्षी सोद्दितचि येत्ता एकळो कीरातु)

किरात- (फाट्ल्यान गौजी आय्कूनु घुंव्नु पळैता)

राब्बातरे थयिंचि .......कार्यी बुद्धि ना रे तुम्का?....... तुम्गेले गौजेक माका पक्षीयि मेळचिना... प्राणीयि ना... (रुक्का वोय्रि पळैतची वत्ता)

एक पक्षी दिस्ली म्हणताना चेडो खोक म्हळालो.... बजी पिसरुड चेल्ले (घून्नु पोळोनु) फाटी पुड्डी करीन.... नुत्त आय्लिंती, जाल्लें.

थयिं एक चित्तल चरतालें, बाण सोडतां म्हणतान ते तीन कासाचाक शिंक्यो आयल्यो. चित्तलयिना चकोरीयिना. हाक्का सक्कड कित्ली चातुर्कायि जाय म्हळेलें हांका इत्तें गोत्तु? वाट्टेरी पळ्ळेलीं. शिक्कोंती म्होणु आप्पोनु हाळ्यारि आश्शिं.... उसळ्तातिरे (क्रौंच पक्षीन रोडचे आय्कूनु) हां...हां...क्रौंचानि जोडी जाव्चे वेळारी अश्शिं रोडचें अक्कल चुक्कूनु नांत्ताती पळे, बाण खोंब्ल्यारी आत्त पडताती. (धनुष्य उब्बार्नु बाण सोडता म्हणताना क्रौंच उब्बूनु वत्ताती) अरे खंयि गेल्लींती पोळोयां (सोद्दूनु वत्ता) हो हो नयींचे तडियेरी देवलींती. पोळोनु सोड्यां तांचो नांच्पादु. (धांव्नु वत्ता)

**(दृश्य समाप्त)**

**दृश्य ५**

(नयींचे तडियेरी गुरुलें कावि वस्त्र घेव्नु भारद्वाज राब्ला)

भारद्वाज- विद्यार्जने खतिर आन्नान माक्का आश्रमांतु मेळैलो. गुरुकृपा जाय्नास्ताना विद्या ना म्हणताती. हें अक्षरश सत्य. हाँवें गुरुसेवा करीत आस्ताना, देवाले दयेन वाल्मीकि महर्षीली भेटी जाल्ली माक्का. तांगेलो शिष्यु जाव्यां म्होणु दिस्लें. गुरु लाग्गि विनंती केल्ली, तांगेलो आशिर्वादपूर्वक अनुमति मेळ्ळी देखुनु हाँवं आत्तं वाल्मीकि महर्षीलो शिष्यु! पूर्वजन्माचे सुकृता निमित्त व्हो सुयोगु मेळ्ळो माक्का.

किरात- (सरसटी येव्नु, हाक्का पोळोनु राब्ता)
अरे! (स्वगत) आश्रमांतु नांकारी बोट दवोर्नु जप कोर्चें सोणु हांगा इत्याक आय्लो व्हो चेल्लो.

भारद्वाज- कसलें जाय्रे तुक्का? कित्याक आय्लो तूं हांगा?

किरात- कांय ना, कांय ना. अश्शिंची आयिलों. तुम्गेले आश्रम हांगाचि की?

भारद्वाज- व्है व्है. हांगाचि वाल्मीकि महर्षीलें आश्रम!
अनुचित काम कसलेंयी कोर्नाक्का हांगा. मारचें, चिरचें खंचेयीं नाक्का हांगा.

किरात- (स्वगत) आश्रम जाल्यारी इत्ते? अरण्य जाल्यारी इत्ते? हाज्ञो उपदेशु आय्कुंनु उपाषि मोर्चें की आम्मी? (वत्ता)

भारद्वाज- वाल्मीकि महर्षीली स्नान विधि जाव्नु गेल्ली की इत्ते?

वाल्मीकि- (नेपथ्यांतु) वस्त्र दीरे भारद्वाजा!

भारद्वाजु- आय्लों, दित्तां. (वाल्मीकीलो हातु मात्र दिस्ता; ताज्ञेरी व्हो वस्त्र दवरता. वस्त्र घेव्नु ताणे हातु माक्षी काडताना क्रौंच पक्षेली किन्नटि आय्कुं येत्ता. रक्तबोंबाळ पक्षी पायमुळांतु पोडचें आनि ताणे प्रवेश कोर्चें एकचिं घडियेरी जात्ता. आनि एक पक्षीले रोधन आय्कुं येत्ता.)

वाल्मीकि- अरे! (किरातु धाव्नु येव्नु पळ्ळेले पक्ष्येक उक्कोळनु धाँवता)

वाल्मीकि- (दयार्द्र स्वरान) मानिषाद प्रतिष्ठाम् त्वम् । आगमः शाष्वती समाः ।

यत क्रौंच मिथुना देकम् ।

अवधि काम मोहितम् ।

भारद्वाज- हावें सांगीले आय्कनास्ताना आत्तं शापाक ग्रासु जाल्लो पळैलेवें?

वाल्मीकि- (पश्चातापान) छे! कसलें अनुचित घडलें! न्हाव्नु नित्तळ मनान मंत्रोच्छार कोर्चे सोंणु अयाचित शापवाणि आय्ली कित्याक मेगेले जिब्बेरी. कसलें अमंगल घडलें रे भारद्वाजा?

भारद्वाज- गुरुवर्या, हे अकस्मात घडलें विना हांतु अचातुर्य जाल्लेलें ना. ते निषाधालें दुष्कृता निमित्त शापवाणि निसर्ली विन्हा तुम्मी उद्देष पूर्वक शाप दिल्लालो नहिं.

वाल्मीकि- उद्देष पूर्वक जाव्वों, अयाचित जाव्वों. अचातुर्य जाव्नु गेल्लेमुरें भारद्वाजा.

भारद्वाज- स्वामी, ती साधारण शापोक्ति म्होणु दिस्साना. तुमगेले तोंडांतु काव्य वाणि उद्देनाय्ली भविष्यवाणीचो उद्गारु जाल्लो म्होणु दिस्ता माक्का.

वाल्मीकि- कसलें म्हणता रे?

भारद्वाज- नानृषी कुरुते काव्यम - म्होणु एक संदर्भारि तुम्मी सांगीलें आस्स. ताक्का हें एक स्पष्ठ निदर्शन!

वाल्मीकि- तुगेलीं अभिमानाचीं उत्रं कशिंयीं आस्सो मनुष्यान आपण्याले बोलचालींतु केदनायिं जागृत आस्का. ना जाल्यारी जीवमानाची साधना क्षणार्ध भित्तरी निष्फल जात्ता.

आकाशवाणी - महर्षी, सरस्वतिले अनुग्रहान तुगेले तोंडांतु शाप रुपारी काव्यावाणिचो उद्गारु जाल्लो. छंदोबध्ध जाव्नु आस्सीली शोकवाणी श्लोक रुपरि आस्स! देवऋषि नारदान सांगिले रामचरित, लोक कल्याणा खतिर श्लोक बांदूनु काव्य रचना करी! ही काव्य स्पूर्थि तुक्का कीर्तिप्रद जाव्वों!

वाल्मीकि- दैवचित्त कश्शिंकी तश्शिं जात्तालें. भारद्वाजा चल, आश्रमाक वच्च्यां. **(वत्ताति)**

**(द्वीतीय अंक समाप्त)**

**अंक ३**

(प्रवेशिका)

(गांव्चे वाट्टेन चारण दोगजण गाय्त येत्ताती)

चारण युगळ- चारण वो चारण। आय्लिंताम्मी चारण ॥
घुमटें वाज्जूनु गीतं गावून।
चल्लां आमचे पयण।
आय्लिंताम्मी चारण ॥

चारण एक - कोणे जीवाक जीवु दिल्ला।
कोणे लोकाक उप्कार केल्ला।
कोण दुसऱ्याले कष्टाक पाव्ला।
करताती ताज्ञी वर्णना।

गाय्ताती आम्मी कीर्तना ॥

चारण युगळ- चारण वो चारण ।

आय्लिंताम्मी चारण ।

गांवान गावांक पयण ।

नावो आम्का आळ्शीपण ॥

चारण एक- बरेंची केल्यारी बरेंची मेळचें ।

वाय्ट केल्यारी वाय्टचि जाव्चें ।

आम्मी केल्लेलें आम्मी खाव्चें ।

दुसऱ्यांक इत्याक ऊल्लोचें ॥

चारण युगळ- करताती ताञ्जी वर्णना ।

गाय्ताती आम्मी कीर्तन ।

गांवान गांवांक पयण ।

चलताती आम्मी चारण ॥

चारण एक- रायान रामचंद्रानाम्का ।

नेमान प्रेमान पाळ्ताना ।

कष्ट नष्ट भष्ट भीति ।

खंचेयीं लाग्गि येव्चेना ॥

चारण युगळ- प्रजेली भाग्याची वर्णन ।

करताती आम्मी चारण ।

गायत गुंजत रंजत चलताती ।

गांवान गांवांक पयण ।

चारण वो चारण ।

चलताती आम्मी चारण ॥

**(गायत वत्ताती)**

## अंक ३ दृश्य १

(रानवाट्टेन - मुखारी सीतादेवी - माक्षी लक्ष्मण येत्तचस्साति)

सीता- लक्ष्मणा गंगा तीरारी रथु राब्बोनु आलतडी येत्तरी इत्लें दूर चम्काल्यारीयी माक्का आयास जाय्ना पळे! वनवासाक वत्ताना हेची वाट्टेन आय्लिंत की आम्मी? (जवाब ना देखुनु घूंव्नु पळैता) अरे! हावें कोणलाग्गि उल्लोचें? लक्ष्मणा माक्षी पळ्ळा इत्ते? सरसटी यो रे.

लक्ष्मण- हां, आय्लों व्होन्ये.

सीता- हाँव बाय्लमनुषि जाल्यारीयी तुज्जे पशी मुखारी आस्स. कित्ते, पेटी मस्त जड आस्सवे?

लक्ष्मण- भारी जडावण दिस्ता सीता माते, कसलें भरला तूंवें हांतु?

सीता- कसलें म्हणत रे तूं? तांतु आस्चे वायणा साहित्य! तूं इत्लो कोमलांग जाल्लालो केदना धोर्नु?

लक्ष्मण- तश्शिं कांय ना व्होन्ये.

सीता- वनवासा थाव्नु परत येत्तरी ऊर्मिळेले सहावासांतु तूं मस्त जीरला नहिंरे?

लक्ष्मण- तश्शिं कांय ना. वाट जाव्वों चुकली की म्होणु पळैताना चिके माक्षी पळ्ळों.

सीता- आ हां! माक्कायि तो संशयु आय्लो. तश्शिं कांय जाय्नी नहिंरे?

लक्ष्मण- (स्वगत) हांवे आत्त हीक्का सत्य संगती सांग्चे कश्शिं?

सीता- एक आश्रम जाव्वों एक पर्णकुटीर जाव्वों दिस्साना. वेद घोषुयि ना!

लक्ष्मण- (स्वगत) अण्णा, कसलें कोर्चे हाँवें, कोणालाग्गि सांगचें मेगेली दुरवस्था! भर्लेले मासांची गुर्बिणीक आनि कित्लें नांचोचें?

सीता- (राब्बूनु माक्षी पळैता) लक्ष्मणा कसली तुगेली आवस्था उल्लय्ना इत्ते तूं?

लक्ष्मण- कसले सांगचे व्होन्ये? अण्णालो आदेशु खंचे तोंडानी सांगचे हांवें.

सीता- मेगेलो उज्वो दोळो अश्शि उडता इत्याक? कसलें अपशकुन हें?

लक्ष्मण- समाधान घे. श्रीरामचंद्राले रक्षाकवच आम्का आस्ताना भिव्चें इत्याक?

सीता- तश्शि नहिंरे लक्ष्मणा, मेगेले पति-देवाक कसलेंयिं आपत आय्ला की म्होणु हुस्को माक्का. अयोध्येंतु कसलें संकट प्राप्त जाल्लांकी म्होणु मनांतु कळवळे येव्चाक लागलिंति.

लक्ष्मण- (अती दुःखान) हें सक्कड मेगेले दुरदृष्टाचे खेळु!

सीता- मंगलमूर्ती रामचंद्रालें सानिध्य सोणु पुण्य जोडचाक हे घोर अरण्याक इत्याक येव्का आस्सीलें हांवे? उल्लयरे लक्ष्मणा.

लक्ष्मण- चौद वर्सं वनवासांतु तुम्गेली सेवा केल्लेलें पुण्याचे फला निमित्त जाव्नुयि ही दुरवस्था चुक्कोचाक जाल्लेना म्हणताना विधीविलास कित्ले कठिण?

सीता- (भीव्नु) मेगेलागि कसलेंकी निष्पयता, इत्याकरे लक्ष्मणा?

लक्ष्मण- हाँव पापी व्होन्ये, सांग्चे कश्शिं? कोर्चे कसलें.

सीता- वाट चुक्ल्या जाल्यारी वापस वच्चें, आनियेक दीसु आय्ल्यारी सयी.

लक्ष्मण- (उभय संकट भोग्तची उल्लय्ता)
तश्शि जाय्ना व्होन्ये! अण्णाली आज्ञा उल्लंघन कोरुं जाय्ना आनि तूवें अयोध्येक वापस वचे तश्शिं ना.

सीता- तुक्का जाल्ला कसलें? कसलें म्हणतरे तूं?

लक्ष्मण- अण्णाले आज्ञा पालनची मेगेलें कर्तव्य. तुक्का अरण्यांतु सोणु यो म्हळ्ळां ताणे.

सीता- (आघात भोग्गुनु) कसलें जाल्लां रे तुक्का? आश्रमाक आप्पोनु व्होर म्हळ्ळेलें नहिं वे? अरण्यांतु सोणु यो म्होणु आय्कुं पळ्ळेंवे तुक्का अश्शिं कित्याक रे करता तूं?

लक्ष्मण- (दुःख भोर्नु येत्ता, गदगद स्वरान उल्लयता) रामचंद्रा (दळदळी रडता) सीता माते तुगेले निमीत आय्यीलो लोकापवादाक भीव्नु तुक्का सोडचो निर्धार घेत्लो ताणे.

सीता- (दुःखान भीव्नु कांप्ताचि उल्लय्ता)

रामचंद्रा मेगेले निमित्त तुक्का अपवादु आयिलो की? तूवेंचि सोळ्ळे परांते अनि कोण गति माक्का? (दोळ्यांतु काळोकु येव्नु थयिंची बैस्ता)

लक्ष्मण- (सरसटी येव्नु) सीता माते! (पेटी सकल दवर्ता)

सीता- रामचंद्रा अग्निपरिक्षेंतु पार जाल्लेलें मेगेले निमितची लोकापवादु वे तुक्का? जाय्ना.... मेज्ञान हैं सहन कोरुं जाय्ना. हाय (मूर्छावस्थेंतु पडता)

लक्ष्मण- हें सक्कड पोळोचे फुडेची हाँव मेल्लोना कित्याक? (सीते लागि वचूनु तिक्का वारें घालता दोळ्यांक उद्दाक लाय्ता) हावें निर्मळ कायेन मालगड्यांली सेवा केल्लेली व्हयि जाल्यारी हिगेलो केसु बावनास्ताना मूर्छा दूर जाव्वों! रामचंद्रा एक यःकश्चित राजकालें उत्रांक इत्लें मोल दिव्चेवें देवा! कित्याक इतली कठिण शिक्षा, हे देवीक. ही मनोवेदना असहनीय. हाँवें कसले अकृत्य केल्लां म्होणु ही दुरवस्था माक्का! मेज्ञान हे संक्ट सहन कोरु जाय्ना (धैर्य घेव्नु) छे! मेगेलें कसलें महासंकट? जनकरायाली धूव, दशरथचक्रवर्तिली सून, रामचंद्राली सहधर्मिणि जाव्नुयी हीणे भोग्चे संक्टा मुखारी मेगेले कसले (तिगेल तोंडांतु थेंबे थेंबे उद्दाक पिवय्ता आनि दोळ्यांक लाय्ता) व्होन्ये घे हें पी. मनांक समाधन घे.

सीता- (निद्दांतु जागि जाल्यावरी दोळे सोडता)
आऽऽ? लक्ष्मणा बद्दची माक्का सोळ्ळी रें मेगेले रामान? तूंवें जाल्यारीयि सांगेत आस्सीलेंमुरे, अश्शिं कार्चे सम्म नहिं म्होणु.

लक्ष्मण- सीता माते, अपवाद आय्कूनु व्यग्र जाल्लेल्या अण्णा लागि हांवें खंची तरान सांग्ल्यारी तागेल निर्धारु बद्‌ली कोरुं जाल्लेना.... मेगेलें दुर्दैव.

सीता- दुर्दैव मेगेले, तुगेले नहिं. हातु धरलेले बाम्णाक नाक्का जाल्ले परांते अनि कोणालाग्गि सांग्चें? कसलें सांग्चे? तागेलीयी चूकि ना, तुगेलीयी चूकि ना, चूकि मेगेलीची. मेगेले दुर्विधी खतीर दुसऱ्यांक कित्याक उल्लोचे? (उठानु बैसून) लक्ष्मणा, अण्णालो आदेशु पालन जाल्लो नहिंवे अनि तूं वापस वस. दुसरी येचाना नाक्का तुक्का. (वापास मूर्छावस्तेंतु पडता)

लक्ष्मण- (मन कठोर कोर्नु) हे वनदेवते, ह्या देवीक अनि तुम्गेलेंची रक्षण. भूमाते तुगेले धुवेक आनि तूंची गति! आम्गेले वंशाची अधिदैव सूर्यनारायणा तुगेले कुल वधूक तूंची राक्कून घे! (तिक्का तीन प्रदक्षीण येत्ता) राजाज्ञेक अधीन हांव. कित्तें करतालों. आनि वापस वच्चें, जागी जाल्यारी मागिरि जाय्ना (चारी पावलं वच्चूनु वापस येत्ता) पंचभूताभिमानी देवतेनु हे पतिव्रतेले केसु बाव्नास्ताना राक्काती (तिक्काची पळय्ता; दुःख भोर्नु येत्ता. मौन प्रार्थना करता, मत्यारी मार्नु घेत्ता, सरसटी चलता, सोणु वत्ता)

सीता- (लक्ष्मणान अदृश्य जात्तरी प्रज्ञेंतु येत्ता) आम्मा..... मेल्लीं ना मु हांव.... प्रेम स्वरुपी पतिदेवाले हृदय इत्ले कठिण जाल्लेवें? आनि माक्का दूसरी वाट ना. हाय मेगेले भाग्य की! मिथिलेशाली मोगाची धूव! दशरथ चक्रवर्तिलि म्हाल्गडी सून! कोसलेंद्राली पट्टराणी! जाल्यारी इत्तें करतली? वनवासूची मेगेलि प्राप्ती. रामा.... सर्वसक्कड सोणु, तूंची गति म्होणु आस्सीली तुगेली सावळी हॉंव म्हळेले विसर्लोवे देवा? रामचंद्रा, राजधर्मा मुखारी दांपत्य धर्मु नगण्य जाल्लो वे तुक्का. मेगेले पोट्टांतु तुगेलो वंशु वाड्डुत आस्स म्हळेलें विसर्लोवे देवा. हॉंव आत्त मोर्चें की, दोन जीवांक मार्चें की? जाय्ना.... हें उभयसंकट सहन जाय्ना.... रा.....मा.... रा..... मा..... (वापास मूर्छा पडता.)

**(परदो पडता)**

## दृश्य २

(वनप्रदेशाचे आनि एक वाट्टेन वाल्मीकीलो प्रवेश)

वाल्मीकि- (रामा रामा म्होणु आर्त स्वर आय्कुं येत्ता)

अरे! कोणहें रडता? कोण अब्बा रामा स्मरण करता. (नेपथ्यांतु क्षीण स्वरान रामा रामा म्होणचे आय्कुं येत्ता)

अरे! लाग्गीची आय्कुं येत्ता. (कानु दीव्नु) बाय्लमन्षेलो स्वरु. कसलें आपत आय्लांकी पोळोंया. अगत्य पळ्यारि साहाय कोर्नु मागीरी मेगेलें काम (आर्तनाद येव्चे तेकाडे सरसटी वत्ता)

## दृश्य – ३

(रानवाट - सीतादेवी मूर्छेंतु पळ्या, मात्तें पेट्टेरि आस्स)

वाल्मीकि- (उल्लय्तचि येत्ता) अरे! हें कोण पळ्ळां हांगा. एकसुरी बाय्लमनुषि! मुनीकन्येवरी दिस्साना (लागि वचूनु) कोण आमा तूं?(कमंडलातुलें उद्दाक हात्ता कोंदलांतु घेव्नुं तिज्जे तोंडारी शिंप्ता)

सीता- (दोळे सोणु पळैता. उठानु राब्चाक वत्ताना जाय्नाशी बैसता)

वाल्मीकि- हे निर्जन वनांतु एकळीची आस्स कित्याक? आनि, कोण तूं, कित्याक अशिशं जाल्लें?

सीता- (भीव्नु) लागि येव्नाक्का, रामाली आण आस्स दूर सर.

वाल्मीकि- भीव्नाक्का आम्मा.

सीता- (स्वगत) कोण व्हो कपट सन्यासी! एक्ल्यालो उपकारु पूरो माक्का.... (ताक्का पोळोनु) दूर सर मायावी! श्री रामचंद्राली आण आस्स लागि आय्ल्यारी.

वाल्मीकि- श्री रामचंद्राली आज्ञा माक्काई मान्य. हाँव मायावी नहिं. ते पुण्य पुरुषाले नाम स्मरणे प्रभावान पुनीत जाल्लालो वाल्मीकि हाँव. कष्टांतु

अस्सील्यांक सहाय कोर्चेंची मेगेले व्रत! तूं एकसुरि बाय्लमनुषी. हे अवस्थेंतु आस्ताना सोणु वचे कश्शिं? तूं कोण सांग आम्मा!

सीता- (मनांतु धैर्य घेव्नु) हाँव जानकी, अयोध्येचे दशरथ रायाली सून श्री रामचंद्राली राणी.

वाल्मीकि- (विस्मय पाव्नु) जानकी देवी! सीता माते! मेगेले आराध्य दैव श्रीरामाली राणी! तुक्का ही दुरवस्था! कश्शि आय्ली ही स्तिथि तुक्का?

सीता- (दुःख बांदून्नु घेव्नु) लोकापवादाक भीव्नु रामचंद्रान माक्का परीत्याग केल्ला. म्होणु सांगुनु लक्ष्मण हांगा सोणु गेल्लो.

वाल्मीकि- व्हैवे आम्मा, भीव्नाक्का.

सीता- जीव काणु घेव्यां म्हळ्यारी दोन जीव वत्ताती मूं म्हळ्ळेली चिंता.

वाल्मीकि- शांतम् पापम्, शांतम् पापम्. ती आलोचन सोडि तूं. भर्तिमासांची गुर्बिणी शी दिस्ता. मनांतु बरेंची आठोनु घे. पुत्रमुख पोळोचें भाग्य मेळ्तलें, संतोष मेळ्तलो!

सीता- मेगेले दुःखाचे उद्ववेगान कसलेंकी उल्लय्लीं हाँव. तुम्मी कोण म्होणु कळ्नास्ताना उल्लय्लीं.

वाल्मीकि- सोडी चिंता, मेगेले तपस्याचे फल तुगेल रुपान मेळ्ळें माक्का आत्तं! यो आश्रमाक वच्यां. दूसरी योचनाची नाक्का आत्तं.

सीता- (अन्य उपाय दिस्सानाशी) तुमका वंदना करनास्ताना चुकलीं हाँव. (बशीले तशींची सरनु तांगेलो पाय धरता) दय आस्सों मेज्रेरी.

वाल्मीकि- सुखी भव! सुपुत्रवती भव! सुमंगली भव! (पेटी हात्तां घेत्ता) यो लघु.... उट्ठा..... वच्यां, तुक्का सर्व अनुकूल जाव्चें तश्शि व्यवस्था करतां, यो वच्यां.

सीता- तुम्गेलेंची आश्रय माक्का आत्तं (उठानु राब्ता. दोग्गयीं हगुर चलत वत्ताती)

**(तृतियांक समाप्त)**

## अंक चार (४)

(प्रवेशिका)

(दोनी चारण गाय्तचि येत्ताती - गांव्ची वाट)

चारण युगळ- चारण वो चारण ।
आय्लिंती आम्मी चारण ।
आम्का सदा पयण ।
नावो आम्का आळ्शीपण ।।

चारण एक- तीन दिसाचे जीणे आमचें ।
कित्याक साय्बा रीत्तेंची उडचें?
सत्यान, न्यायान, नीतीन चोलचें ।
जल्मु आम्चो सार्थक कोर्चे ।।

चारण युगळ- कर्ताती ताज्ञी वर्णना ।
गाय्ताती आम्मी कीर्तना ।
आम्का सदा पयण ।
आय्लिंती आम्मी चारण ।।

चारण दोन- मडवाळाले खोंब्चें उत्रांक ।
रामान सोळ्ळी सीतेक ।
दीस मास वर्सं गेल्लीं ।
कशिशं विसर्तलो कळत्रांका ।।

चारण एक- राती दीसु तिज्ञोची ध्यासु ।
दिसान दीस विर्तालो ।
कर्माचे बंधन चुकलां कोणाक ।
भोग्गूनु भोग्गूनु भाग्गीलो ।।

चारण दोन- यागाक यज्ञाक दिल्ले मन ।
स्वर्ण सीतेले संगात ।
अश्वमेधाचो यागु मांडोनु ।
घोडेक सोळ्ळो संचाराक ।।

चारण युगळ- कर्ताती ताञ्जी वर्णना।
गाय्ताती आम्मी कीर्तन।
गांवान गांवांक पयण।
चलताती आम्मी चारण॥

**(गायत वत्ताती)**

**दृश्य १**

(आश्रमाचे अंगण. भारद्वाज आनि सुदासु बैसूनु समीधेकाटु बांदताती)

सुदास- भारद्वाज अण्णा.

भारद्वाज- कसलें सुदासा.

सुदास- दीसु कशिशं धांव्ताची म्होणु कळ्ना नहिंवें.

भारद्वाज- व्हैवे?

सुदास- काम करत आस्ल्यारी वेळु गेल्लालोयि कळना.

भारद्वाज- सोडी खबर. हें जात्तरी माक्का रामायणा पाठाक वद्याक आस्स. वग्गी वग्गी कोऱ्यां.

सुदास- तुगेले सगळें रामायण पाठ जाल्लां की?

भारद्वाज- गुरुजीलो दयेन हावें शिक्कूनु काळ्ळां आनि आत्त ते लव कुशांक शिकोचाकयी माक्का मेळ्ळां.

सुदास- तांका रामायण पाठ आरंभ जाल्लो! मेगेलें अनिकयी व्याकरण संपलेंलेंना, शिकचांतु भारी चतुर की तान्नी?

भारद्वाज- संशयु ना.

सुदास- हांवें आश्रमांतु मेळ्ळेले वर्स तांगेले उपनयन जाल्लेलें.

भारद्वाज- आतुर नाक्कारे, आनि तांगेलें जाव्वों तांगेली आवसूलें जाव्वों विषयांतु कसलेयी अनुचित उत्रं, वर्तन नाक्का म्होणु गुरुजीली ताकीत आस्स. विसोर्नाक्का.

सुदास- ना आब्बा. तांचेरी माक्का मस्त गौरव आस्स. सीता देवी म्हळेरी ती देवीची.

भारद्वाज- उल्लोनूची बैसु नाक्का, वग्गी वग्गी दी.

सुदास- हाँव आनि एक निम्गितां?

भारद्वाज- कसलें तें?

सुदास- तूवें रामायणाचें विषय उल्लय्ताना हाँव कान दीव्नु आय्कतां. जाल्यारी लवकुशांनी युगळ जाव्नु श्लोक गाय्ताना हाँवं तांतूंची मग्न जात्तां. दूसरें सर्व विसरतां.

भारद्वाज- सुदासा यथार्थ सांग्लें तूवें. रामायणाचे वैशिष्ट्य आनि तांगेले कंठ माधुर्य दोन्नीयीं असामान्य.

सुदास- कसलें तें वैशिष्ट्य.

भारद्वाज- रामायनाणांतु तीन संस्कृतिचे त्रिवेणि संगम जाव्नु अनेक जीवनादर्शांचे दृष्टांत एकत्र मेळता.

सुदास- संस्कृतिचें त्रिवेणि संगम म्हळ्यारी? सोडवोनु सांग्ता वे?

भारद्वाज- एकी वन्यसंस्कृती - वानर, किरात, निशाद असले संचारी जनाली संस्कृति. आनि एकी ग्रामीण संस्कृति - स्थिर वास्तव्य, कृषि, पशुपालन इत्यादी सहकार आनि श्रमपूर्वक जीवन रीती. तीन्नीची नागरीक संस्कृती - वाणिज्य, व्यवहार प्रधान महानगराचें विलास, वैभव पूर्ण, स्पर्धात्मक जीवन विधान. ही तीन संस्कृतिचें सुंदर समनवय हें काव्यांतु दिस्ता.

सुदास- हावं प्रायेन सानु जाल्यारीयी तूं सहानुभूति दाक्कोनु शिकय्ता; हें मेगेलें भाग्य!

भारद्वाज- आनि आत्तं पूरो! गुरुजीक भाग्रि वचाक आस्स देखुनु पाठाक वचाक माक्का सांग्ला. आनि विळंब कोर्चे नहिं.

सुदास- तरी हें हांव करता. तूं वस.

भारद्वाज- कोय्रु काणु फुट करी, हांव येत्ता. (निर्गमन)

सुदास- जाय्त. जाय्त. (समीधेचो काटु एकत्र दवोर्नु कोय्रु काढता.)

**(परदो पडता)**

**दृश्य २**

(पर्णकुटीर. दाव्यान उजव्यान लवकुशांक घेव्नु सीतादेवी बैसल्या)

सीता- (दोन्नी हात्तानी दोग्गांक आलिंगन दीव्नु) लव, कुश आज्ञान काली कसले शिकय्लें पुता.

लव- हाव सांग्ता आम्मा.... आम्का आत्त रामायण शिकय्ता आज्ञो.

कुश- अयोध्या कांड.

सीता- (मनाचे कळवळें धांपुन घेव्नु) तुम्मी मन दीव्नु समझून घेत्लें की...

कुश- वै आम्मा.

लव- ती काणि आम्का तूंवें सांगीलीची.

कुश- वैगो आम्मा तूं सांगिली काणि आज्ञान काव्य बोरोनु शिकोचे!

सीता- चेर्डा एक पटी रागान सांग्ताती वे. हाँवय आय्कतां.

लव-कुश- जाय्त आम्मा सांग्ताती :
पितृ भक्ति बंधुप्रेम।
पुत्रवात्सल्याचे धाम।
पातिव्रत्य, स्वामि निष्ठा।
सामरस्याचें संगम॥

रायालो मोगाचो रघुरामु।
रविकुल ललामु गुणधामु।

जानकीलो जीवु जयरामु।
सर्व जनप्रिय पुरुषोत्तमु॥

(श्रुति लय बध्ध जाव्नु दोग्गानीं श्लोक गाय्ताना, सीतेक कळवळे येव्नु दोळे भरताति. तांका दिस्सानास्ताना दोळे पुसूनु घेत्ता.)

(वाल्मीकीन येव्नु राब्बीलें हांन्नी पळयीलेंना)

सीता- चेर्डा आज्ञान शिकय्ताना बरें कोर्नु शिकुका इतें (आलिंगन दित्ता)

वाल्मीकि- (मुखारी येव्नु) देवी दोळे उदकाचो धाराभिषेक मात्र नहिं. तान्नी बुद्धिमान आनि धैर्यवान जाव्चे तश्शिं तूवें मार्गदर्शन कोर्चें मुख्य.

सीता- तुम्गेले अनुग्रहान तश्शिं जात्तालें म्हळालो विशवासु आस्स माक्का.

लव-कुश- (उठानु राब्बुनु नमस्कार कोर्नु)

गुरुवर्याक वंदन.

वाल्मीकि- आयुष्मान भव! विजयी भव!

कुश- आम्माक रामायणाचे श्लोक गाव्नु दाखय्ताना पाठाक येव्चाक वेळु जाल्ललो कळेलेंना.

वाल्मीकि- आजी काव्य पाठु हांगाची जाव्नु गेल्लो मु. माक्का आत्त दूसरे कार्या निमीत्त भायि वचा आस्स. आजि भारद्वाजूची पाठाक येत्ता.

लव- शास्त्राभ्यास की शस्त्राभ्यासु?

वाल्मीकि- सर्व नित्या वरी चलय्ता, प्रथमतः धनुर्विद्येंतु कौशल्य संपादन कराती.

कुश- जाय्त आज्ञा.

वाल्मीकि- सीतादेवी, हाँव परत येत्तरी मुखावैली व्यवस्था कश्शिं म्होणु सांग्ता. आत्त अशींची चोलों.

सीता- सर्व तुम्गेलेंची अनुग्रह (वाल्मीकि वत्ता)

सीता- लव-कुश, विद्येंतु बुध्धींतु चतुर जाल्यारी मात्र नुप्रो. श्रीरामचंद्राले आदर्श गुण तुम्मी वाड्डोन घेव्का.

लव- तूंवें सांगिले तशींची चलताती.

कुश- आत्त आनि पाठाक वत्ताती आम्मा.

सीता- जाय्त, वच्चून येयाति.

**(परदो पडता)**

**दृश्य ३**

(आश्रमाचे मुखारी विशाल स्थळ - लव कुमारु धनुर्बाणु समेत येत्ता, दोगजण वटु सांगात आस्सती.)

वटु- लव कुमारा तुगेले धनुर्विद्या चमत्कारु आमकायि दाखयी.

लव- जाय्त रे; अण्णा येव्वों तेद्दोळु हांगा खेळ्यां.

वटु- (दूर पोळोनु) अरे! हे कसले रे येत्ता?

सुदास- खयिं रे?

वटु- मुखारी पळेरे, उजव्यान! घोडो!

सुदास- नवो नमुन्याचो घोडो!

वटु- धवो बण्णाचो घोडो!

लव- खयिं आस्स रे (पोळोनु) येव्वों येव्वों गौजी कोर्नु धावुंडानाक्काती (यज्ञाश्वा माक्षी भटालो प्रवेशु) वटु कुमार माक्षी माक्षी सर्ताना लवकुमारु मुखारी वच्चुनु ताक्का धरता. ताज्ञे निडलारी बरयीलें लेख वाज्ञीता)

''अयोध्येचो.... अश्वमेधा घोडो''

सुदास- आम्का नाक्का रे हाज्ञो सहवासु! सोडी तेकाडे.

लव- सोडूंक जाय्ना रे.

भट- कित्याक जाय्नारे, ये पोरा.

लव- ताज्जी निडलारी बरैलां कसलें?

भट- तसले सामर्थ्याच्यानी मात्र हाक्का हातु लाव्येत. तुमका कित्याक ताज्जी उसाबरी? विंद्राक कित्याक रे लोकंडाचो धंदो?

लव- तुगेलें काम तूं पळे.

भट- घोड्याक राक्चेंची मेगेलें काम. बरे उत्रान सोडीताक्का.

लव- तश्शिं कीं; घे सोडता. (बाण प्रयोगु करता)

भट- (दुक्कीन वोळ्वोळेनु) कारबाराची कथ की तुज्जी.

लव- पूरो की आनि जायी?

भट- (माक्षी सरतची) तुक्का बुद्धि शिकोचाक शत्रुघ्न माहाराजु सम्म! राब, मस्त उड्डुनाक्का (धांव्ता)

वटु- धांव रे धांव!

सुदास- धाव्यां रे घोड्या.... घोड्या वोग्रि चडयां.

लव - खयीं रे धांव्चें (ताज्जी दोरी हात्तांतु घेव्नु फाटी पोरशीता)

वटु- अरे! ही कसली गौजी?

सुदास- कसलें आरभट रें हें? कोण रे हे सक्कड?

लव- भित्ताती कित्याक रे! धराती हाक्का. घोड्याचें राक्वालेचे येत्तचि आस्सती. हाक्का व्होरनु ते रुक्काक बांद्याती. तांगेली खबर हाँव घेत्तां.

सुदास- नाक्का रे म्हाराया, ये रगळे आम्का कित्याक सांग, सोडी पोळोयां.

लव- तुम्गेले योग्यतेक तकीत तुम्मी सांग्ले म्होणु हाँव हाक्का सक्कड भित्तलो नहिं. वचा वचा. हाँव एक्ळोची राब्ता हांगा.

सुदास- तें कशी जात्ता, भिव्का म्हळ्ळेले नहिं हाँवें.

लव- आनि कसलें सांगीलें?

सुदास- शत्रुघ्न आय्ला म्हळ्ळें नहिं वे ताणें?

लव- शत्रुघ्न येव्वों आनि कोणयी येव्वों.

सुदास- तसले महापुरुषालागि आम्मी निश्ठुर कोर्नु घेव्चें वें?

लव- महापुरुषालें आदर्श काव्य विमर्शेवेळारी. आत्त कित्याक तें?

सुदास- तश्शिं नहिं लवकुमारा, तूं एकळो! तीं कितले जण आस्सति की?

लव- कित्लेयिं आस्सोंती. हाँव भित्तलो नहिं. तुमचान जाय्ना जाल्यारी नाका. हाँवंची बांदीता. आश्रमाचे गौरव राक्चें आमगेलें कर्तव्य. (घोडेक घेव्नु वत्ता. तान्नी वत्ताती.)

**(नेपथ्यांतु कोलाहल आयकूं येत्ता)**

नेपथ्य- धराती रे ताक्का. माराती रे, हातपाय मोडाती रे ताज्ञे, हूं धरी सोणाक्का.....

वटु- (धाव्नु येत्ताची) अय्यो, लवकुमारु पळ्ळोरे पळ्ळो!

सुदास- (उव्हयतची येत्ता) अरे कसलें जाल्लें रें.

वटु- पळे, लवकुमाराक तान्नी उब्बार्नु व्हरतची आस्सति. आनि कसलें करतात की?

सुदास- भारद्वाज अण्णा लागि सांग्या (दोग्गयिं धांव्ताती)

भट- (घोड्याक घेव्नु येत्ता) जायवे घोडो ये पोरा. जायवे घोडो...... तीन आंबाडे इत्लो ना, उडता.... धावांतीरे तुम्मीयी. तुमकांयीं वाट्टीता वक्कद! (घोड्याक घेव्नु वत्ता)

नेपत्थ्य - (कोलाहल, जयकार आय्कूं येत्ता)
शत्रुघ्न महाराजक.... जय
अश्वमेधयागाक..... जय.... जय
अयोध्याधीशाक..... जय..... जय..... जय

कुश- (येव्नु कोलाहलाक कानु दित्ता.) कसेलें हें कोलाहल. प्रशांत आश्रमप्रदेशांतु कसलो गोंदोळु?

सुदास- (धांव्तची येव्नु) कुश कुमारा आजियेक घोडो आय्लो.

कुश- खंचो घोडो? खयीं आस्स?

सुदास- अश्वमेधाचो घोडो कयीं. लवकुमारान बांदूनु घाल्लो.... आम्मी नाक्का म्हळ्ळें!

कुश- मागिरी कसलें जाल्लें? लवकुमारु खयीं आस्स? घोडो खयीं गेल्लो?

सुदास- रखवालेचांक आनि लवकुमाराक युद्ध जाल्लें.

कुश- मागिरी?

सुदास- लवकुमारांन तांक्का धांव्डांनु सोळ्ळें.

कुश- हावें वचूनु येव्चे भित्तरी इत्ले सक्कड जाल्लें वें? लवकुमारु दिस्सना इत्तें?

सुदास- तांगेले यजमानान येव्नु लवकुमाराक बाणु मारनु बोधुचुक्कोनु उब्बारनु व्हेल्लो.

कुश- खयिं गेल्लींती तीं? सांग रे वग्गी.

सुदास- पळे थयिं धुवोरु आय्ले वरी धूळि उब्ता, तेंची दिकान गेल्लींती.

कुश- (गडबडेन) घे यें आश्रमाक व्होर (गांटी तागेलाग्गि दीव्नु धनुर्बाणु हात्तांतु घेत्ता. तेची दिकाडे वत्ता) राब्बातीरे ये घोड्यावाले.... राब्बाती.... अरे सफाई करता आत्त सफाई.... राब्बाती. (धांव्ता) सुदासुयी वत्ता.

## दृश्य ४

(गांव्चें वाट्टेन चारण गायत येत्ताती)

चारण युगळ- चारण वो चारण।
आय्लिंती आम्मी चारण।
गाय्ताति आम्मी कीर्तन।
चलताती आम्मी पयण॥

चारण १- रीति रिवाज सोड्डु नाक्का।
आड वाट्टेक पोड्डुनाक्का।
उष्ट्याक लाळ गोळो नाक्का।
कष्टान घोळचें सोड्डु नाक्का॥

चारण युगल- करताती ताज्जी वर्णना।
गाय्तति आम्मी कीर्तन।
चारण वो चारण।
चलतात आम्मी चारण॥

**(गायतची वत्ताती)**

## दृश्य ५

(रानवाट्टेनी लव-कुश, हनुमंतु घोडेसहित येत्ताती)

कुश- तुक्का मस्त हिंसा दिल्ली की तान्नी?

लव- तशिं कायीं ना. हाँव मूर्छेंतु आस्ताना तान्नी कसलें केल्लें हाँव जाणना. मागिरी तूं येव्नु सोडवोनु हाळ्ळो नहिं वें.

कुश- आम्माले आशिर्वादान आनि गुरुजील्या अनुग्रहान आजी आम्मी शत्रुसैन्य पराजीत केल्ले.

लव- इतल्यांतु जाव्नु गेल्ले वें?

कुश- तें हाँव जाण. अपजयाचि सुद्दी पावली सत्तान अयोध्ये थाव्नु आनि कोणयिं येव्चा पुरोती... घोडो सोडवोचाक... येव्वोंती.

हनुमंत- (स्वगत) कसले तेजस्वी बालक हें?

भारद्वाज- (सर्वांक पळैतची येत्ता) शाहबास!

कुशकुमारा, लवकुमाराक कायीं अपाय जाय्नी नहिं वें? घोडेन इत्ले करय्लें! अरे! वानरवीरु! अद्भूत हें विजय.

हनुमंत- (स्वगत) श्री रामचंद्रालें प्रतिरुपशें दिस्ताती हे बालक! कसलें विचित्र हें?

सुदास- (येव्नु) आराम आस्सती नहिं वें? कुशकुमारा तूं वेळारी आय्लो! तांक्का सक्कड धांवडाय्लें वें? जानकी देवीक तुम्गेलोची हुसको, राक्नु बसल्या.

हनुमंत- (आश्चर्यानी) जानकी देवी हांग आस्सवे?

लव- आम्मा राक्तची आस्स वे? तरी आत्तं आश्रमाक वच्यावें?

हनुमंत- (स्वगत) जानकी देवीले कुमार वे हे? आश्चर्य! ते देवीलें दर्शन माक्का आत्त मेळ्यारी मेगेलें भाग्य!

कुश- भारद्वाज अण्णा, हनुमंताक आम्मा लाग्गि आप्पोनु व्होर. आम्मी स्वल्प वेळानी येत्ताती. आनि येत्तालेंक शरोपचार कोर्का नहिं वें?

भारद्वाज- राम भक्ता, हनुमंता, यो आम्मी आत्त सीता माते लाग्गि वच्यां.

हनुमंत- हें मेगेलें व्होड भाग्य. वच्यां. (दोग्गयीं वत्ताती)

लव- हाज्ञसलें वानर समूहाक घेव्नु ते रामचंद्रान सेतुबंधन करय्ले म्हळ्यारी तो आत्त महापुरुष!

कुश- ते महापुरुषाक स्वतः पोळोचो संधर्भु आम्का आत्त मेळत की कशिं?

लव- तोची येत्तलो म्होणु दिस्तवे तुक्का?

कुश- तोची येत्त की लक्ष्मणाक धाडता की पोळोव्यां?

लव- आनि कित्लो वेळु आस्स की?

कुश- पुष्पक विमानारी वच्चुनु पावलां ताक्का आपजया वार्ता. वायुवेगाचे वाहन तें. आनि आत्तं यागु पूर्ति जाव्का मू! घोडो सोडवोनु घेव्चाक येत्तालो.

सुदास- तुम्मी थोडे वेळु विश्रांती घेव्चें बरें!

कुश- सम्म तेवंयीं. येया. थयिं बैस्यां घोडो चोरों.

**(परदो पडता)**

**दृश्य ६**

(कुटीरांतु सीता देवी बैसल्या. हनुमंत राब्ला)

हनुमंत- सीता माते तुगेले चरणा दर्शन जाल्लेलें मेगेलें व्होड भाग्य!

सीता- हनुमंता, कसलो विचित्र प्रसंग आय्लोरे व्हो?

हनुमंत- माते तुगेली मनाची व्यथा आनि प्रभु रामचंद्रान नित्य भोगची वेदना हैं तुम्काची वेद्यविना दुसऱ्यांक हाज्ञी कलपनाची ना.

सीता- तागेले राजकार्या मध्येंतु मेगेलो उडगास पुणी आस्सकी रामाक?

हनुमंत- प्रजा वात्सल्या निमित्त सीतेक अरण्यांतु सोळ्ळी म्होणु जन उल्लय्ताती. जाल्यारी हाँव जाण. दिसामध्ये क्षणमात्रयी तुक्का विसोर्नु ना मेगेलो प्रभु रामचंद्रु. तुमका तुम्मीची समासम! तुम्गेलें चरित अनुपम!

सीता- तें आस्सो. आत्त हें संधिग्धांतु पार जाव्चें कश्शिं सांग.

हनुमंत- खंचे विषय सांग्चे माते तूंवे?

सीता- आम्गेले बालक यज्ञाश्व सोणु दिव्चाक कित्ले मात्राकय तैयार नांती. यागु पूर्ति जाव्चो कश्शिं? कांकण बांदूनु यज्ञशालेंतु बैशीले रामचंद्रानची उटानु आय्ल्यारी कसलें जाय्त?

हनुमंत- तशी इत्याक सांग्ता आम्मा. पित्रवाक्य परीपालनेंतु बाप्सुलें आदर्श अनुकरण करश्नांती वे तुगेले बालक?

सीता- हनुमंता, सीता परीत्यागी रामूची आप्प्यालो बाप्पूसु म्हळ्ळेली खबर जाव्वों तोची अयोध्याधिपति म्होणचे मुख्य विषय जाव्वों आजिकयी तांका कळयीलें ना. मस्त कष्ट भोगल्या हॉवं. असलें संधिग्द ऐद्दोळु आय्यीलें ना माक्का.

हनुमंत- विचित्र समस्येक विलक्षण परीहार आस्ताती आम्मा.

सीता- बाप्पुस आनि चेर्डुवालें मध्ये घर्षण जाय्नास्ताना कसलें करियेत म्हळेलेंची समजाना माक्का.

हनुमंत- रामचंद्राले दयेन ही समस्या सुलभरीतीरी परिहार जात्तली; लोणियेंतुलो आग्गोळु तांडल्या वरी.

सीता- वाल्मीकि माहर्षी आश्रमांतु आस्सीले जाल्यारी माक्का इत्ली योचना ना आस्सीली.

हनुमंत- जाव्चे जाव्नूची शुद्ध. योचना काळ्ळेली मात्रान परिस्तिथिंतु सुधारण जाय्ना म्हळेलें तुक्का कळ्नातीलें वे.

सीता- तूं आस्स नहिं वें हांगा. माक्का आत्त तेंची एक धैर्य.

हनुमंत- मनांतु समाधान घे आम्मा सक्कड नित्तळतलें.

**(परदो पडता)**

**दृश्य ७**

(मैदानाचे बग्लेन लव-कुश घोडो राक्ताचि राब्लींती)





लव- अण्णा थयिं पळे! कसले तें?

कुश- खयिं रे?

लव- आकाश मार्गारी येव्चो रथुवे तो?

कुश- तेंची जाव्नु आस्का पुष्पक विमान!

लव- व्है व्है तें पुश्पक विमान! हैं कोण दोघ जण देव्नु आय्लिंती.

कुश- राज ठीविचे तेजस्वी पुरुष कोण हें?

लव- हांका पळय्ताना गौरव भाव उछल्ता.

कुश- राम आनि लक्ष्मण की जाव्वों? शत्रुघ्नाक हाँवे मूर्छावस्तेंतु घाल्ला. भरताक अयोध्येचे रक्षण व्यवस्ता सोणु येव्चाक जाय्शिना. हान्नी राम लक्ष्मणची जाव्नु आसका!

(राम आनि लक्ष्मणालो प्रवेश)

लक्ष्मण- घोडो हांगाची आस्स. कोण हे बालक.

राम- तांगेले तोंडाचे वर्चस पळे! तेजस्वी बालक कोण हें?

लक्ष्मण- आम्गेले सैन्याचे चलन-वलन खंचेयिं दिस्सनामु.

राम- आश्रम जीवनाक आतंक नाक्का म्होणु दूर शिबिर रचय्लां दिस्ता. हनुमंतुयिं दिस्सना!

लक्ष्मण- हाँव वचूनु विचारता.

राम- हांका पळैताना कोपु, उद्रेक जाव्चे बदल वात्सल्य उद्वेता मनांतु, कोण पळे!

लक्ष्मण- (तांगे लागि वचूनु) मुनीकुमारांनु तुम्मी कोण? घोडो कित्याक बांद्ला?

लव- तुम्मी कोण? घोडो सोड्चोचाक आय्यींलिं वे?

लक्ष्मण- अरे! प्रश्नेक प्रतिप्रश्नोची जवाब रे तुगेली?

कुश- (लवाक हात्ता सन्नेन निवारुनु) आम्गेले कुल गोत्र जायि की घोडो जायि तुमका?

लक्ष्मण- दोन्नी जायी रे बाळा. घोडोयि जायी, तुम्मी कोण म्हळ्ळेलेयि जायी.

कुश- तुम्मी अयोध्येंची वे?

लक्ष्मण- व्हैरे बाळा. याग दीक्षित अयोध्याधीशु रामचंद्रु व्हो! हाँव तागेलो भावु लक्ष्मण. आत्त सांगाती तुमगेली खब्बर. घोडेक बांदीलो इत्याक? अश्वरक्षकांक मार्ले कित्याक? आश्रमवासींक तुमका कित्याक है कारबार?

लव- आम्मी आश्रमवासी म्होणु लेक्कीलेंची तुम्गेली चूकि (हान्नी उल्लय्ताना घोडो परद्या भित्तरी वत्ता, ताज्ञी माक्षीची कुश वत्ता)

लक्ष्मण- आनि कोण तुम्मी वटु वेषारी आस्सती.

राम- आय्का रे बाळा. तुम्मी सान प्रायेचे किशोर. आनि आश्रमाची शांती भंग जाव्ची नाक्का म्होणु आम्मी समाधानारी उल्लय्ताना तुम्मी ताप्ताती इत्याक?

लक्ष्मण- पट्टाभिषिक्त आनि याग दीक्षित प्रभु रामचंद्रु स्वतः उल्लय्ता. सांग्चे आय्करे बाळा.

राम- तुम्का पोळोनु मनांतु मायपासु भर्लो देखुनु आम्मी अनिकेयि कठिण निर्धारु घेत्तीलो ना! बरे उत्रान घोडो सोडाती.

लव- तुम्गोले उन्नत स्थान माना तकीत तुम्गेलीं उत्रा जडावण म्होणु आम्कायी कळ्ता, जाल्यारी....

लक्ष्मण- जाल्यारी इत्तें?

लव- आम्गेले गुरुजीली आज्ञा मात्र आम्मी पालन कोर्चे.

राम- कोण रे तुम्गेलो गुरु?

लक्ष्मण- तुं उल्लय्तची राब हाँव घोडो सोड्डोनु हाडता. कोण आड्डाय्ता पळैतां (परद्या भित्तरी वत्ताना तागेले माक्षीची लव वत्ता. आनि एक बाजून कुश भायि येत्ता.

राम- (कोपान) मुनीकुमार म्होणु मोगान उल्लयल्यारी शिरल्यावरि उडताती. आश्रम प्रदेशाचे अतिक्रमण नाक्का आनि बालवध नाक्का म्होणु समाधानारी सांगता. यज्ञाश्व सोडाती. तुम्कां दुसरो घोडो की वस्त्राभरणकी दिवय्तां.

कुश- महाराजा, तुक्का हाँव मान्ता आनि गौरवार्पण कर्ता; जाल्यारी गुरुजीलें गौरव राक्चेयीं आम्गेले कर्तव्य. यज्ञाश्व बांदूनु जाल्लां. ताज्जी रक्षणेक हाँव हांगा राब्ला. आम्गेले वीरमातेलें कीर्तिक कलंक लाग्चे तसले काम हाँव करशिना. घे तुक्का मेगेले शरवंदना. (बाण सोडता तो रामाले पाय्यारी पडता)

राम- बाण प्रयोगान खोंचील्यारीयी माक्का कोपूची उद्रेक जाय्ना! कसलें हाज्जें मर्म? कोण हे बालक? कित्याक अशिशं जात्ता?

वाल्मीकि- (वग्गी वग्गी पाय काडतची उल्लय्तची येत्ता) राबरे कुशा, बंद करी बाणप्रयोग. संयम आस्सो. (हनुमंत, लक्ष्मणु, लवकुमारु अशि एकएकळोची येत्ताती. अनिरीक्षित घटनेन आश्चर्यचकित जाव्नु पळय्ताती.)

वाल्मीकि- बाळा, कुश-लव लाग्गि येयाती मेगेले गौरव राक्चे खतीर युद्धाकयि तैयार जाल्लींती तुम्मी! कोणालाग्गि युद्ध म्होणु आलोचन केल्या की तुम्मी?

हनुमंत- जय श्री रामचंद्र प्रभु.

वाल्मीकि- जय श्री रामचंद्र प्रभु, तुक्का अभिवंदन. तुगेले सुपुत्रांले हे वर्तन अनुचित म्होणु लेक्कनाशी तांचेरी अनुग्रह करी.

लक्ष्मण- (विस्मीत जाव्नु) सुपुत्र? अनुग्रह!

वाल्मीकि- लवा-कुशा रामायणाचो काव्यनायक, साकेत चक्रवर्ती, अश्वमेध यागदीक्षीत व्हो. श्री रामचंद्रूची तुमगेलो आनु, तीर्थरुपाले चरणारी मस्तक दवोरनु नमन कराती.

लव-कुश- (तेंचि प्रमाणे नमन करताती)

वाल्मीकि- श्री रामचंद्रा, कसलेकी कारणान तूंवें परीत्याग केल्लेली तुगेली सहधर्मीणी इत्ले काळ न्यास रुपान आम्गेले आश्रमांतु आस्सीलि. हे सतिशीरोमणी सीता देवीले पुण्य गर्भांतु जन्मलेले बालक हे तुगेले वंशोद्धारक! स्वीकार करी देवा.

राम- मुनीवर्या!

वाल्मीकि- हांगेलें बालीश चापल्य मनांतु घेनाशी क्षमापण करी स्वामी. सीतादेवीली जवळं चेर्डुवं हीं. इत्ले वर्स सूर्यवंशाचे कुलदीपक हे राजकुमाराले लालन पालन कोरचें भाग्य तुगेले दयेनची माक्का मेळ्ळेलें! हांका आत्त कृतज्ञतापूर्वक तुगेले चरणारी अर्पण करता. स्वीकार करी देवा. व्हो पळे लवकुमारु, आनि व्हो कुशकुमारु तुगेलेंची प्रतिरुप! हांगेले वोग्रि कृपा दृष्टी दवरी देवा. (कुश-लव रामाक नमन करताती.)

राम- (दोन्नी हात्तानी दोग्गांकयि लाग्गी घेव्नु आलींगन करता) कुश-लव आजी अनिरीक्षित जाव्नु मुनीवर्याले दयेन पुत्र दर्शना भाग्य मेळ्ळे! आनि यज्ञ समाप्तीचो अवकाशुयि निरातंक जाल्लो.

हनुमंत- श्री रामचंद्रप्रभुक जय जाव्वों !<br>सीता मातेक नवोदय जाव्वों !<br>सूर्यवंशाक अभ्युदय जाव्वों !<br>हे बालकांक शुभोदय जाव्वों !<br>म्होणु आम्गेली अभिलाषा.

वाल्मीकि- (भाव परवश जाव्नु) धन्योस्मि धन्योस्मि श्रीरामचंद्र आजि हांव कृतार्थ जाल्लों.

राम- महर्षी तुम्मी आम्गेले सूर्यवंशाक महदुपकार केल्लो व्हो! तुम्का अभिवादन करता.

हनुमंत- प्रभु हे मंगल मुहूर्तारी जानकी देवीन हांग आस्सीलें जाल्यारी कसलें अपूर्व समागम जात्त आस्सीलें! ती तपस्विनी तुगेले दर्शन केदाना जाय्त म्होणु कुटीरांतु राक्कुनु आस्स! तीक्का पावोचाक कसले आदेश आस्स?

वाल्मीकि- श्री रामचंद्रा आश्रमापर्यंत पाव्लं वाड्डोनु किंचित आदरातिथ्य स्वीकार कोर्चें आनि आश्रमवासींक अनुग्रह कोर्चें म्होणु विनवितां.

राम- वाल्मीकि महर्षी, आंजनेय, हाँव आत्त याग दीक्षित. हे तुम्मी जाणे. आनिवार्य संदर्भु आय्लो देखूनु हाँव यज्ञशालेंतुल्यान भाय्रि आय्लों. आय्यीलो उद्देशु पूर्ति जाल्ले परांते हाँव आत्त यज्ञ शाळेकची वच्चुका विना दूसरे खंचेयि स्थळाक नहिं. है बालकांक, सीतादेवीक आनि सर्व आश्रमवासींक आप्पोनु घेव्नु तुम्मी अयोध्येक येव्चे म्होणु हाँव विनंती करता.

नारद- (प्रकट जाव्नु) यथोचित उत्रांक प्रत्युत्तर ना महर्षी. श्री रामचंद्रान सांगिलेंचि सम्म.

राम- देवऋषींक नमस्कारु! तुम्गेलें समयोचित मार्गदर्शन मेळ्ळेलें मेगेले भाग्य! अशींची अयोध्येकयि येव्नु आम्का सर्वांक बरेपण जाव्चे तश्शि अनुग्रह कोर्का.

नारद- तथास्तु!

वाल्मीकि- श्री रामचंद्रा मर्यादा पुरुषोत्तम जाव्नु आस्सीले तुगेलें आदर्श चरित लोकांक अनुसरणिय जाव्नु आस्स. है अद्भुत चरित हाँवे काव्य-बद्ध केल्लेलें तुक्का समर्पण कोरचें केदना म्होणु राक्कूनु आस्सीलो.

नारद- याग समाप्तीचो समारंभूची ताक्का सूक्त संदर्भु. सर्व सोय्र्याले मुखारि ताज्जें वाचनयि जाव्वों. प्रभु चरणांक काव्यांजलि समर्पण थयिंची जाव्वों!

राम- तेंची सम्म.

नारद- शिवमस्तु सर्व जगताम्।
परहित निरत : भवंतु भूतगण :।
दोषा प्रयांतु नाशम्।
सर्वत्रा सुखी भवतु लोकः ॥

वटुजन- मंगलम् कोसलेंद्राय
महनीय गुणाब्दये
चक्रवर्ति वरेण्याय।
सार्वभौमाय मंगलम् ॥

●●● समाप्त ●●●



• • • • • • • •



श्री पांगाळ विठ्ठल शेणै बहुमुखी प्रतिभेचो व्यक्ति. सुमार ३० वर्सं श्री शेणैन इन्नंजेचे श्री विशणु मूर्ति हयवदन स्वामि हायस्कूल आनि जूनियर कॉलेजांतु अध्यापक जाव्नु काम केल्लें आनि प्रांशुपाल जाव्नु निवृत्त जाल्ले. निवृत्त जात्तरि दोन हायस्कूलांचे स्थापन आनि अभिवृद्धींतु योगदान दिल्लां. आत्तं श्री शेणै, पागाळ विद्या वर्धक संघाच हायस्कूलाचे संचालक जाव्नु आस्सति.

साहित्य क्षेत्रांतु, श्री शेणैलि अभिरुचि आनि परिश्रम अपार. कन्नड आनि कोंकणींतु हान्नि सुमार २० पौराणिक, ऐतिहीसिक आनि सामाजिक नाटकं बरैलां. त्या पैकि, रथिक सारथि, चित्तूर पद्मीनी, पन्ना दासि, चंद्रहंस, स्तय हरिश्चंद्र, रुक्मिणि, वाल्मीकी, सिकंदर, टिप्पु सुल्तान आनि सत्यम् शिवम् सुंदरम्, नांव पाविलें नाटकं. एक काव्य संग्रह - कविता मंजरि बरैला हान्नि. कोंकणींतु वाल्मीकी आनि अवतार कथा - हों महाकाव्य बरैलां. हांतु मुद्रीत आनि प्रकाशित कृति : सत्यम् शिवम् सुंदरम्, कविता मंजरि आनि वाल्मीकी (कोंकणी) मात्र. सामाजिक आनि शैक्षकि विषया वोय्रि ५० कन्नड लेखन वृत्त-पत्रांतु प्रकासित जाल्लां. हेंचि विषया वोय्रि तत्तावळी रेडियो उपन्यासयीं जिल्लींती. ते वंता, चित्रकता, अभिनय, संगीत, प्रसादन आनि रंग निर्देशनांतु कौशल्य संपादन केल्लां.

रोटरी इंटरनॅशनल मुखांतर समाज-सेवा कोर्नु ''रोटरी भीष्मु'' म्होणु रोटरी वर्तुलांतु नांव पाविले श्री शेणैंक पॉल हॅरिस प्रशस्ती वरेन मेळ्या.

मणिपालाचे सिंडिकेट कृषि प्रतिष्ठानाचे कार्यदर्शी जाव्नु कृषि क्षेत्रांतुयीं हान्नि योगदान दिल्लां.

कर्तव्य निष्ठा आनि देशभक्ति हांगेले दीवनाचे वैशिष्ट्य म्होण्येत.

• • • • • • • •